श्री. महाबळेश्वर सैल हांचे 'युग सांवार'
कादंबरीच्या आदारान रचिल्लें कोंकणी नाटक

# सांवार युग

श्रीधर कामत बांबोळकार

अनंतशाली प्रकाशन

हें पुस्तक कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकार हांचे, 'गोंयच्या लेखकांक आर्थिक अनुदान' येवजणेखाला छापलां.

म्हजी आवय 'ताबाय' (स. शालीनी)
आनी
म्हजो बापूय 'काका' (स. अनंत)

तुमीच म्हज्यांतले कलागूण पारखिले
तुमकांच हें अर्पण

- श्रीधर

Sanvaar Yug - Konkani Play By
Shridhar A. Kamat Bambolkar



प्रकाशन क्र. 1

पयली उजवाडावणी : 2014

उजवाडावपी :
गीता श्रीधर कामत बांबोळकार
अनंतशाली प्रकाशन
बांदोडें - गोंय 403401

छापपी:
कस्तुरी प्रिंटर्स
ढवळी, फोंडें - गोंय

मुखचित्र:
कलानंद कामत बांबोळकार

मोल : रू. 130/-

सांवार युग नाटकाचो पयलो प्रयोग कला अकादमी, गोवा आयोजीत 29 व्या नाट्यमहोत्सवांत 21-10-2004 दिसा, राजीव गांधी कला मंदीर, फोंडें हांगा सादर जालो. तातूंत वांटेकार जाल्ले कलाकार.

श्रेय नामावळ -

| | | |
|---|---|---|
| गुणा | - | एकनाथ सु. नायक |
| गयू | - | रोहिदास यशवंत नायक |
| इसू | - | ईश्वर विठोबा नायक |
| अण्णू | - | सुरेल दत्ता तिळवे |
| पाखलो | - | विजयकांत पां. नमशीकार |
| गोकू | - | गोकुळदास स. कुर्पासकार |
| तोमास | - | महेश अ. का. बांबोळकार |
| घुंगो | - | राजेश जिवोत्तम नायक |
| जोशी भट | - | राधाकृष्ण दा. का. बांबोळकार |
| पाद्री कुलासो | - | उदय साजी तिळवे |
| तेलू | - | जितेंद्र जयेंद्र भट |
| गोपिका | - | विजता वि. नायक |
| बायल/मती | - | दिपा लं. नमशीकार |
| तानी | - | तन्वी श्रीधर का. बांबोळकार |
| उमोदाद | - | उमेश दत्ता नायक |
| केसू | - | केशव दत्ता नायक |
| गणबा | - | ज्ञानेश साजी तिळवे |
| देशी सोल्दाद | - | सुदेश गजानन वझे |
| कापितांव/शेफ | - | रघुनाथ य. साकोर्डेकार |
| पाद्री सिमांव | - | अरुण र. गावणेकार |
| दुगा शिगेलो | - | गुरुदास रोहिदास नायक |
| गजा | - | राधू दा. बांबोळकार |

| | | |
|---|---|---|
| भैरू | - | दिपक सुरेश धुमाळे |
| रामू मिराशी | - | रामदास नु. कुर्पासकार |
| विठाय | - | विणा विवेक गावणेकार |
| पार्वत | - | गंधाली गु. नागेशकार |
| वासू | - | कौशिक रा. नमशीकार |
| सांक्रिस्तांव | - | निलेश शांबा च्यारी |
| जागरांतले कलाकार | - | सुरेश गावडे, रामदास गावडे, लक्ष्मीकांत गावडे, तुकाराम गावडे, देविदास गावडे, राजेश गावडे आनी श्याम गावडे. |

| | | |
|---|---|---|
| लेखक / दिग्दर्शक | - | श्रीधर अ. कामत बांबोळकार |
| नेपथ्य | - | विजयकांत पां. नमशीकार |
| संगीत / ध्वनी संकेत | - | प्रा. पुर्णानंद च्यारी / परेश पां. नायक |
| उजवाड येवजण | - | सिद्धांत अ. नायक |
| वेशभूशा | - | गीता कामत बांबोळकार |
| रंगभूशा | - | दास कवळेकार |
| कीबोर्ड | - | विष्णू शिरोडकार |
| ऑक्टोपॅड | - | प्रकाश आमोणकार |
| कलासंयोजन | - | प्रदीप सोनू कुर्पासकार |
| नेपथ्य निर्माण | - | सुबोध नु. कुर्पासकार |
| निर्मिती आदार | - | बांदोडा ग्रामपंचायत, दिलीप सावंत, कांचन कुर्पासकार, श्रीकांत कुर्पासकार, सिद्धीविनायक कला संघ. |

कला अकादमी गोंवा आयोजीत नाट्य महोत्सव -2004-05 हे 29वे कोंकणी नाटक स्पर्धेंतल्या 'सांवार युग' नाटकाक उत्कृष्ट प्रयोगाचें तिसरें पारितोषिक

सादर करपी संस्था 'अंत्रुज ळळीतक' बांदोडें.

- दिग्दर्शना खातीर तिसरें - श्रीधर बांबोळकार
- उत्कृष्ट अभिनय पयलें - अरूण गांवणेकार
- उत्कृष्ट वेशभूशा पयलें - गीता बांबोळकार
- अभिनयाचें प्रशस्तीपत्रक - राजेश नायक
- अभिनयाचें प्रशस्तीपत्रक - विजेता नायक

अशीं सांवार इनामां फावो जालीं.

बेंगुळुरचे रंजना आर्टस संस्थेन घडोवन हाडिल्ल्या पयल्या अखिल भारतीय कोंकणी नाट्य महोत्सवांत 'सांवार युग' नाटकाचो प्रयोग रवींद्र कलाक्षेत्राच्या एडीए कला मंदिरांत ता. 27 मे 2005 ह्या दिसा सांजेच्या सात वरांचेर जालो.

- नाट्यप्रयोगाक पयलो पुरस्कार
- सादर करपी संस्था - अंत्रुज ळळीतक.
- रंगकर्मी शंकर नागाच्या नांवान पुरस्कृत उत्कृष्ट दिग्दर्शनाचो पयलो पुरस्कार - श्रीधर बांबोळकार
- उत्कृष्ट नेपथ्य आनी प्रकाश योजना पुरस्कार - विजयकांत नमशीकार आनी रामदास कुर्पासकार
- उत्कृष्ट अभिनयाचें पयलें इनाम - अरूण गांवणेकार
- अभिनयाचें दुसरें इनाम - विजेता नायक
- बऱ्या अभिनयाखातीर इनाम - राधाकृष्ण बांबोळकार
- उत्कृष्ट नाट्यलेखनाचें पयलें इनाम - श्रीधर बांबोळकार

अशीं सांवार इनामां फावो जालीं.

## असो सांवार आनी घडूं नाका...

म्हज्या मनांतलें तुमच्या मनांत रिगयतना

आफोंस द आल्बुकेर्कान 1510 वर्सा गोंय शार (आयचें ओल्ड गोवा) जिकलें. ते उपरांत सुमार पंचवीस तीस वर्सांनी धर्मांतराक आरंभ जालो म्हणल्यार 1540 वर्सा उपरांत हांगाचीं देवळां मोडपाक, तांकां उजो घालपाक सुरवात जाली. तिसवाडी, बार्देज आनी सालसेत हे तिनूय तालुके बाटाबाटीच्या उज्यांत हुल्पले. हजारांनी लोकांक किरिस्तांव धर्म आपणावपाची सक्ती जाली.

सगळ्यांनीच आपखोशयेन वा त्या धर्माचीं तत्वां पटलीं म्हूण धर्म बदललो अशें न्हय. कांय जाण दुर्बळतायेक लागून, कांय सुवार्थाचे भावनेन तर कांय जाण बळजबरेक लागून बाटिल्ले. असले लोक परतून आपल्या मूळ धर्मांत वचपाची शक्यताय आशिल्ली. कांय जाण तर धर्मांतर केल्या उपरांतूय आपली आदली संस्कृताय सांबाळून राविल्ले. आदल्यो चाली-रिती ते पाळटाले पुर्तुगेजांक तांचीं भारतीय संस्कृतायेचीं मुळां कापून उडोवपाचीं आसलीं. हाका लागून तशेंच असल्या हेर हावेसांखातीर पुर्तुगाली सत्तेन गोंयांत 'इन्क्वीझिशन' हाडलें. ही धर्मीक न्यायसंस्था पांखल्यांनी गोंयांत 1560 वर्सा स्थापन [illegible]. सुमार दोनेक शतमानां तिणें अच्छेव मांडलो. गोंयांतल्या अधर्मी इतिहासाचीं पानां असल्या वर्णनांनी रंगून गेल्लीं मेळटात.

गोंयच्या पुराय अदीमकाळी इतिहासांत इतली तळ धवळून उडोवपी घडणूक दुसरी ना. श्री. महाबळेश्वर सैल ह्या प्रतिभावंत साहित्यकारान 'युग सांवार' कादंबरींत ताचो थाव घेवपाचो सर्वतांकीन केल्लो यत्न भोव यशस्वी थरला. कादंबरींतलो विशय सुक्षीम तपशिलान आनी खोलायेन अभ्यास करून ताणी मांडला. अशें करतना इतिहास विकृत जावंचोना हाची जतनाय घेतल्या.

पाखल्यांनी धर्माच्या नांवार केल्ल्या अधर्माचो हो इतिहास म्हणल्यार आगळिकांनी भरिल्ल्या गोंयच्या इतिहासाचें एक जळटें पान... एक 'सांवार युग'...! हो सांवार फकत धर्म विस्तारपाच्या आनी साम्राज्य वाडोवपाच्या हांवेसापुरतो मर्यादीत न्हय; मनशाचे नीज प्रकृती विकृतिचो, हिंसा आनी करूणचो अस्वस्थ आलेखूय तातूंत मेळटा. दोनूय वाटांनी काळीज चिरपी ही दुखेस्त काणी!

ह्या सगळ्या विशयासंदर्भांत नाट्य आसा, संघर्श आनी व्यथा आसा. सगळ्योच घटना नाटकाचे चौकटींत वास्तव रुपांत बसोवप कठीण तरीय नाटकांतलो आशय, सूचकताय आनी आर्विल्ल्या नाट्यतंत्राचो वापर करून तो प्रेक्षकामग्न पावोवपाचो हांवें प्रामाणिक यत्न केला. नाट्य आविष्काराचो विचार करून मूळ कादंबरींतले कांय प्रसंग तशेंच पात्रां बदलल्यांत. नाटक बरयतना आनी पयल्या प्रयोगाचे निर्मिती प्रक्रियेवेळार म्हाका कादंबरींतले आनीकूय जायते प्रसंग नाटकांत घेवपाचो मोह जाल्लो. पूण वेळाची मर्यादा आनी एकूण नाट्य परिणाम सादपाचे नदरेन हांवें ते नाट्यकृतींत घेवंक नात. तेन्नाच्या काळांत चलणुकेंत आशिल्लो भेस, लोकांचें वागप-उलोवप आनी तांच्यो चालीरिती हांचो जाणीवपुर्वक उपेग पात्रांमदीं केला. कांय पात्रांय बदलल्यांत. हें करपाची मेकळीक हांवें घेतल्या तेचबरोबर नाटकांतल्या आशयाक बादा येवचिना हाची जतनाय घेतल्या. ते नदरेन ॲड. उदय भेंब्रे हांचो 'व्हडलें घर आनी भावार्थाचें कर्तुव' हो सुनापरान्तांत (1991 दिवाळी अंक) प्रसिद्ध जाल्लो लेख संदर्भाखातीर म्हाका बरोच उपेगी पडलो.

गोंयांत त्या काळार घडिल्ल्या घडणुकांची ही दुखेस्त काणी संवसारांत आनीक कोणाच्याच वांट्याक येव नाका. जांचेकडल्यान तीं मनीसपणा भायलीं कर्तुवां त्या काळांत घडलीं तशीं तीं संवसारांत केन्नाच आनी खंयच पर्थून घडची न्हय. प्रेशिताचे शिकवणेचो चुकिचो आनी आपले सोयीचो अर्थ लायिल्ल्यान त्या काळांत मोठो अनर्थ घडलो. देखून अंतस्करणांतल्यान दिसता, अशे तरेची चूक ह्या जगाच्या नकाशाचेर आनीक खंयच घडची न्हय. जशें म्हाका दिसलें तशेंच नाट्य रसिकांच्या मनांत आयलें जाल्यार म्हजे यत्न फळादीक जाले अशें हांव समजतां.

कोंकणींतले नांवाजते साहित्यिक श्री. महाबळेश्वर सैल हाणी आपले गाजिल्ले ‘युग सांवार’ कादंबरीच्या आदारान ‘सांवार युग’ नाट्यकृती रचपाक व्हडा मनान मान्यताय दिली, तो ताणी दाखयिल्लो म्हजेवयलो मोग आनी विश्वास. तांचो हांव भोव उपकारी! आपल्या नाट्यलेखनावरवीं सातत्यान नवे नवे प्रयोग करून ते रंगमाचयेर सादर करपाचें आव्हान आमचेमुखार दवरपी ज्येष्ठ आनी श्रेष्ठ नाटककार श्री. पुंडलीक नारायण नायक हे म्हजे इश्ट तशेच मार्गदर्शक! अशा ह्या प्रतिभावंत नाटककारान गोंयच्या इतिहासाचेर खोलायेन नदर मारपी भोव मोलादीक प्रस्तावना पुस्तकरूपान येवपी म्हज्या नाटकाक दिली ताची म्हाका धन्यताय भोगता. नाटकांतल्या संवादांचीं उतरां संगणकाचे कृतींतल्यान भायर सरून छापणावळिचे फास्केंत पावचेपयलीं बारीक बारीक चुकांचें निरीक्षण करून त्यो सुदारपाचें किचकटीचें काम करपी डॉ. नारायण देसाय हांचे उपकार मानूकच जाय. सगळेच जाण आपले अशें धरलें तरी तांचीं नांवां घेवप हे म्हजें कर्तव्य थरता. पुस्तकाक सोबीत चित्र काडपी कलाकार कलानंद कामत बांबोळकार तशेंच जे संस्थेन ह्या नाटकाचो प्रयोग सादर केला ते अंत्रुज ललितक संस्थेचे सगळे कलाकार - तुमचे सगळ्यांचे उपकार! आनी हें पुस्तक छापून तुमचेमुखार हाडपी कस्तुरी प्रिंटर्स हांकां धन्यवाद दितां!

**-श्रीधर कामत बांबोळकार**

## ‘युगसांवार’ कादंबरीचें यशस्वी नाट्य रूपांतर
## ‘सांवार युग’

1510 वर्सा पुर्तुगालच्या आफोंस द आल्बुकेर्कान गोंय शार जिकलें. तेन्नाचें गोंय शार म्हणल्यार आतांचे ‘ओल्ड गोवा’. चार पातमान्यांनी हजारभर सैनिक आनी लोक घेवन आल्बुकेर्क आयिल्लो. गोंय शाराचेर धुरी घालिनाफुडें ताणें मुसल्मानांमदल्या सगळ्या दादल्यांक आनी चल्याभुरग्यांक जिवानिशीं मारून उडयलें आनी मुसल्मानांच्या बायलांकडेन पुर्तुगालाकसावन आयिल्ल्या पाखल्यां लागीं शार्गिक संबंद जोडून दिले. मुसल्मानांक पिडापीड करतना ताणें हिंदूक राखण दिली खरी पूण मुखार आल्बुकेर्काच्या मर्णा उपरांत तागेलें धोरण बदललें. सुमार पंचवीस-तीस वर्सांनी धर्मांतराक आरंभ जालो. 1540 उपरांत हिंदूचीं देवळां मोडप, तांकां उजो घालप असले प्रकार सुरू जाले. तिसवाडी, साश्ट आनी बार्देज हे तिनूय तालुके बाटाबाटीच्या उज्यांत हुल्पले. हजारांनी लोकांचे क्रिस्तांव धर्मांत धर्मांतरण जालें. कांय जाणांनी नाईलाजान, जगपाचे सवस्तकायेक लागून तर कांय जाणांनी गरिबीक बेजारून, हिंदू धर्मांतल्या जातीय वेगळेंचाराक उबगून धर्म बदल्लो. अशें जरी आसलें, तरी मुळांत जाल्ली ती बळजबरीच; धर्मांतरण कितें सुखासुखी घडूंक नासलें. अशा वेळार धर्म बदलिल्ले हिंदू आपल्या धर्मांत परत वचपाची भिरांत आसली. भौतेक जाण परधर्मांत वचूनय आपणाले मूळ संस्कृतीक दसून आशिल्ले. पुर्तुगेजांक असल्या लोकांचीं मुळां हुमटून न्हय, कातरून उडोवपाचीं आसली आनी ह्याच हांवेसान धर्म आनी राजसत्ता हातांत हात घालून चलोवपी पुर्तुगेजांनी 1560 वर्सा गोंयांत ‘इंक्वीझिशन’ म्हणल्यार धर्मसभेची स्थापना केली. हे धर्मसभेन सुमार दोनशीं वर्सां गोंयचें राजकी जिवीत मुळासावन धवळून उडयलें. गोंयच्या इतिहासांतली ही पयली घडणूक. खरें म्हणल्यार ह्या

विशयाचेर फाटल्या साडे चारशीं वर्सांत जांव पुर्तुगेज, जांव इंग्लीश, मराठी वा कोंकणी भाशेंत असंख्य पानांचें लेखन जावपाक जाय आशिल्लें. पूण कांय आडवाद सोडल्यार अशें लेखन चड करुन ललित साहित्यांत जाल्लें दिसना. गोंयचे साहित्य लेखनाचे परंपरेंत महाबळेश्वर सैल हाणीं कोंकणींत पयलेच खेप हें आव्हान स्विकारून ह्या विशयाचेर 'युगसांवार' (2004) नांवाची सवायचारशीं पानांची कादंबरी बरयल्या. कोंकणींतली ही पयली इतिहासीक कादंबरी म्हणपाक जाय. महाबळेश्वर सैल एक यशस्वी कथा-कादंबरीकार अशी नामना जोडून आसा. 'युगसांवार' कादंबरींत ताणें विशय, आशय, व्यक्तिरेखा, वातावरण निर्मिती ह्या सगळ्या घटकांचो समतोल सांबाळ्ळा. भारतीय कादंबरीकारांचे पंक्तींत बसपाक सैलाक ही एकूच कादंबरी पुरो.

नामनेचे लेखक आनी विचारवंत दत्ता दामोदर नायक हे कादंबरी संबंदान म्हणटात, 'गोंयच्या हिंदू आनी किरिस्तांव समाजांमदीं धोशी घालच्यो, धर्मीक दुस्वास वाडोवंचो, नवे पिळगेचीं मनां कुसोवंचीं आनी आपल्या राजकी सुवार्थाची पोळी भाजून घेवंची हो हेतू बाळगून 'युगसांवार' बरोवंक ना. उरफाटें सगळ्या धर्मांचो मूळ हेतू मनशांमदलें मनीसपण, भावचार वाडोवचो होच आसलो हें ती (कादंबरी) सांगता.'

महाबळेश्वर सैल मुळांत थंड प्रवृत्तीचो पूण खूब कश्टी आनी संवेदनशील लेखक. ताका हेरां इतलीच सामाजीक प्रश्नाची जाण आसा. पूण एखादो प्रश्न सुटावो करपाखातीर जी आक्रमकताय लागता ती तागेल्या सभावांत ना. आनी नेमके तेच वृत्तीक लागून बाटाबाटी सारकेल्या संवेदनशील विशयाक लागपी समतोलपणा - 'बॅलन्स' ताका खूब बरो सादला अशें म्हणचें पडटा.

अशे हे ऐतिहासीक कादंबरीचें नाट्य रूपांतर करप आनी ते रंगमाचयेर खेळोवन यशस्वी करप हे शिवधनुश्य पेलपाइतलें अवघड काम आसलें. कोंकणी रंगमाचयेक जाणें स्वतःचे प्रतिभेन आनी प्रज्ञेन आकार दिलो अशा श्रीधर कामत बांबोळकाराकूच हें शक्य आसलें अशे म्हणल्यार अतिताय जांवनये. 'युगसांवार' कादंबरीचें 'सांवारयुग' हे नाट्यरूपांतर. कथांचें नाट्यरूपांतर करप त्यामानान खुबूच सोपें आसता. अर्थांत जे कथेंत नाट्य आसा अशेच कथेचें रूपांतर एकांकींत जांव येता. कथा प्रकारांत एकसूत्री,

एकलक्षी परिणामासारखे घटक आस्पावतात आनी हेच घटक नदरेमुखार दवरून एकांकी लेखन केलें जाल्यार तें यशस्वी जावंक शकता. पूण कादंबरी आनी नाट्यरूपांतराचें काम कठीण आसता. मूळ कादंबरींतल्यो वेंचीक घटना संपादून घेवंच्यो पडटा. व्यक्तिरेखाय वेंचून काडच्यो पडटा. कादंबरीचो विस्तारीत भाग संक्षिप्त करतना मूळ लेखकाचो उद्देश, आशय, व्यक्तिरेखांची निर्मणी ह्या गजालींचेर बारीक लक्ष दिवचें पडटा. स्वतंत्र नाट्यलेखन करतना जें मुक्तपण, जी मेकळीक लेखक घेता ती हांगासर घेवपाक मेळना. ते नदरेन दुसऱ्याचे कादंबरीचेर बांदिल्लें नाटक ही एक कसरतूच आसता. ही कसरत कितलीय यशस्वी जाली तरी श्रेयाची तागडी वयर- सकयल जायत रावता. ह्या नाटकाचे बाबतींत तशें घडलें जाल्यार नवल न्हय.

ऐतिहासीक घडणुकेचेर जेन्ना एखादी कादंबरी, नाटक हे सारखी ललितकृती निर्माण जाता तेन्ना वादाचो एक मुद्दो उपरासता, तो म्हणल्यार मूळ घटनेकडेन फारकत घेवपाची मेकळीक लेखकाक आसा काय किते? आसल्यार ती कितलेंसें? ललितकृतीच्या आकृतीबंधाप्रमाण ही मेकळीक नक्कीच आसा पूण मूळ घडणुकेकडेन ती प्रामाणीक आसपाक जाय इतलें खरें.

मूळ लेखक महाबळेश्वर सैल हाणी कादबरींत हें स्वातंत्र्य घेतलां. तशेंच तें श्रीधर बांबोळकारानूय घेतलां. कित्याक, तर कादंबरी परस नाटक ह्या मंचीय ललित प्रकाराक आकृतीबंधाचें तंत्र खूब कसबान वापरचें पडटा. आपले कल्पकतायेन आनी कुशलतायेन श्रीधरान तें केलां. जायत्या फावटी हाव म्हणटा- नाटककारामदें एक दिग्दर्शक आसचो पडटा आनी दिग्दर्शकामदें एक नाटककार आसचो पडटा. नाटककारामदलो दिग्दर्शक, नाटक बरयता आसतनाच कल्पनेच्या मंचार तें खेळोवन पळयता. तेचपरी दिग्दर्शकामदलो नाटककार संहितेचो अभ्यास करतना मूळ नाटककाराची भुमिका समजून घेता. श्रीधराचे बाबतींत हें जुस्त लागू पडटा. एक फिशाल दिग्दर्शक, चित्रकार आशिल्ल्या कारणान श्रीधर सर्जनशीलतायेचे प्रक्रियेचे खूब लागीं आसा. पुस्तकाच्या मुखचित्रांनी तो मूळ कलाकृतींतलो आशय, रंग आनी रेशांच्या माध्यमांतल्यान समर्थतायेन प्रकट करता.

'सावार युग' संहिता निर्माण करतना तांच्यांतलो लेखक, दिग्दर्शक,

अभिनेतो, रंग-ध्वनी-उजवाडाचो तंत्रज्ञ जागृत अवस्थेंत वावुरलो देखूनच रंगमाचयेर नाटकाच्या सर्वय आंगांनी परिपूर्ण अशी कलाकृती आकाराक आयल्या. ह्या नाटकाचो प्रयोग हांवें स्वतः पळयला (2004). सर्जनशीलतायेचे अत्युच्च तेंगशेवयली कलाकृती पळोवपाची दुर्मिळ संद दर एकल्याच्या आयुश्यांत अदीं-मदीं येता. 'सांवार युग' पळयतना तो अणभव म्हाका आयला. नाटकाक पूरक अशें देखणें नेपथ्य, संयुक्तीक प्रकाश-येवजण, भारतीय बाज आनी पश्चिमी सुरावटीचो संमेळ सादयिल्लें पार्श्वसंगीत, पात्रांक सोबता अशी वेशभुशा आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार पात्रां कडल्यान संयमीत अभिनय करून घेवपी दिग्दर्शकाचें कसब हाका लागून नाटक सुमाराभायलें यशस्वी जालें.

नाटकांतलें सिमांव पाद्रीचें पात्र खुबूच उठावदार जालां. सेंट झेवियरचें चरीत्र जांणीं वाचलां तांकां ह्या पात्रांत झेवियराचें पडबिंब दिसूं येता. ह्या असल्या मिशनऱ्यांखातिरूच किरिस्तांव धर्म सर्वसामान्य मनशाच्या काळजामेरेन पावलो.

धोरांचें चामडें काडून व्हरपी बापूय आनी तागेलो पूत हांकां पाद्री हटकिता आनी तांचेमदीं जो स्पृश्य -अस्पृश्य संबंदान संवाद घडटा तो प्रसंग सामको आंगार येता. चातुर्वण्य पद्धतिचें समर्थन करून हिंदू धर्माची शेखी मिरोवप्यांच्या कानसुलाचेर थापट फुलयिल्ले भशेन हो प्रसंग घडटा. दिग्दर्शकाच्या संयमीत दिग्दर्शनाची ती उत्कृष्ट अशी देख म्हणपाक जाय.

म्हाका खटकलें अशें एक वाक्य नाटकांत आसा. सैलाचे मूळ कादंबरींतूय तें विधान आसा- ''खंयचोच धर्म मुळांत चुकूंक ना, चुकतात ती मनशां''. म्हजे नदरेन हें विधान नाटकी आनी फसवें आसा. धर्म मुळांत चुकूंक ना, कित्यावयल्यान? मनीसकुळयेच्या इतिहासांत धर्माक लागूनच संघर्श, झुजां, अच्छेव जाल्यात. 'इन्क्वीझिशन'चो अच्छेव धर्मा खातिरूच जावपाक पावला. मानवतायेचे कसवटेचेर सगळे धर्म हे एक तरेच्यो अंधश्रद्धाच थारतात. देखून महात्मा गांधीनी धर्माविशीं म्हणलां तेंच खरें - 'सब धर्म अच्छे हैं पर सब धर्म कच्चे भी हैं।'

कोंकणी रंगमाचयेर नव्या नाट्यसंहितांक खूब मागणी आसा. स्वतंत्र

प्रतिभेचे नाटककार सामके थोडे. तातूंत तांगेली निर्मिती क्षमताय उणी. अशा वेळार भाशांतरीत वा रूपांतरीत संहिता गरज भागयतात. पूण भौतेक फावटीं ह्या संहितांमदें साहित्यिक गुणांचो अभाव आशिल्ल्यान त्यो रंगमाचयेची गरज भागयनात पूण गुणवत्ता वाडयनात.

श्रीधर कामत बांबोळकाराचे 'सांवार युग' संहितेची देख घेवन जर नाट्यकर्मींनी आनी लेखकांनी मूळ कलाकृतींवयल्यान अश्यो रूपांतरीत संहिता घडयल्यो जाल्यार रंगमाचयेची मागणी, थोड्या अंशान काय जायना, भागतली.

कोंकणी साहित्याच्या मळार महाबळेश्वर सैलाची 'युगसांवार' ही कादंबरी जशी मैलाचो फातर थरल्या, तेचपरी कादंबरीचेर रचिल्लें 'सांवार युग' हें नाटक लेगीत कोंकणी रंगमाचयेच्या इतिहासांत ठळकपणान उरतलें हातूंत दुबाव ना.

**- पुंडलीक नारायण नायक**

बेळबय - गांय
11-04-2013

सोळाव्या आनी सतरांव्या शेंकड्यांत
गोंयांत पाखल्यांनी धर्माच्या नांवान केल्ल्या
अधर्माच्या इतिहासाचें एक जळटें पान...

मनशाले निजाचे प्रकृती-विकृतिचें,
हिंसा आनी करुणेचें अस्वस्थ करपी
एक संघर्ष नाट्य... एक शोकांतिका

**श्री. महाबळेश्वर सैल**
हांचे 'युग-सांवार' कादंबरीच्या आदारान
रचिल्लें नाट्य रुपांतर

# सांवार युग

लेखक :
**श्रीधर कामत बांबोळकार**

(450 वर्सां आदलो गोंयचो आदोळशीं नांवाचो एक पांचवोचार गांव. गांवची शितळसाण उक्तावपी सकाळचे गोंयचे फाटभूंय संगीत. गांवचे लोक आपापल्या कामाक वतात, काम करतात, कांय जाण बसून बैठे खेळ खेळटात. माचयेर फाटभूंयचेर दिसता सांतेर मायेची रोयण. गुणा नांवाचो एक 25 वर्सां पिरायेचो मनीस शेतांतल्यान बोबो हुयेली मारत माचयेर धांवत येता.)

(गांवचे कांय लोक एकठांय जातात.)

गुणा : आरे देवा म्हाज्या! देवाऽऽ! सांपलों रे हांव. मेलों!

गयू : आरे जालां कितें?

उमांदाद : किद्या बोबो मारता?

केसू : आरे घडला कितें?

गयू : ल्हान भुरग्याभाशेन रडटा तो सांग मरे किदें जालें तें?

गुणा : वाग! वाग! (रडटा)

इसू : वाग! वाग? खंय रे वाग?

(बायलो येतात)

गयू : आरे दादलो मरे तूं? असो बायजण कसो बोबो किदें मारता?

विठे : गुणा, बाबा, उलय, खंय आसा वाग?

दुर्गे : गुण्या, सांग मरे?

उमांदाद : गुणा, भियं नाका. वाग खंय आसा सांग.

गुणा : सांगतां. सक्काळीं गोठ्यांतले बैल व्हरून खग्गळीच्या शेतांत जोत बांदिल्लें. कसतां कसतां मदींच नांगराची कपची अळंग पडली आनी हालूंक लागली. नांगर तिरसो जालो आनी तासावेल्यानच भोंवंक लागलो.

रायू : भोंवपाचोच, तुयें किदें केलें?

गुणा : कपची करूंक घट लांकडाकुडको सोदत हांव रानांत मात्सोच भितुर रिगलों. जोत तासार वोग्गी रावून रवंथ करतालें. तेन्नाच एक हरिस्ट वाग रानांतल्यान झिलींतल्यान देंवन येयलो. बैल वागरी पडून भियेल्ले. आदीं तेणे एक गर्जन माल्ली. मागीर सट्‌करून हुडी घेवन जबडो मारून तांबड्या बैलाची मान मोडली आनी तेका सकल शेंवटिलो.

विठे : आरे देवका. अशें केन्नाच आयकोंक नासलें.

गुणा : शिबऱ्या बैलान झिडकी मारली.

इसू : फुडें किदें जालें?

गुणा : तेचीय मान मोडून तेका सकयल वडयलो. वाग म्हाजेसरीं वेळ मांडून पळयत रावलो. मागीर घसघस घालीत रानांत धांवलो. दोगांय बैलांचे मानेर, फाटीर जबडे, दांवखुलां खोल रिगल्यांत. तेंच्यो साखनळयो फोडून वडयल्यात. दोगूय बैल मान उडोवन सास्टांग भुंयेर पडल्यात. मेलों रे हांव मेलों.

रायू : आरे, पूण गळ्यांत दांवें-कानी आसतना वाग गोरूं मारना म्हण्टात.

इसू : हेणें तर जूंव-कानी आसतना अख्खें जोत मारलां.

कसलें अरिस्ट काय हें देवा!

रायू : आतां देवाकडेनच निवारण मागूंक जाय. तेणेंच राखूंक जाय गांव! पूजा, मान-पान सारखें जावंक जाय.

गंगे : पूण असलें अरिस्ट गांवाचेर केन्ना येयल्लें आमी आयकोंक ना. न्ही गे?

उमोदाद : हें फकत अरिस्ट न्हू! सांवार!

सगळे : सांवार!!!

उमोदाद : हय सांवार येता म्हणपाचीं लक्षणां हीं! सांवार!

सगळे : सांवार???

उमोदाद : हय सांवार!! (भिरांकूळ नजरेन)

(सगळे थंयचे थंयच थीर जातात. भिरांकूळ नदरो. फाटभूंयचेर प्रखर प्रकाश झोत. पार्श्वसंगीतांत घोड्यांचे आवाज, बायलां भुर्ग्यांच्यो किळच्यो, मर्दांच तुबकां, बाँब गुळ्यांचे आवाज. सांवार - सांवार! सगळें उध्वस्त जावपाचें शिनाल सुचोवपी गंभीर सुरावट.)

निवेदक : गोंयच्या पुगय अदीमकाळी, इतिहासांत तळ धवळून उडोवपी, सोदून सोदून थाव ना गावपी, मनशाले निज प्रकृती-विकृतिचो, हिंसा आनी करूणेचो एक अस्वस्थ आलेख- सांवार युग... धर्माच्या नांवान पाखल्यांनी केल्ल्या अधर्माचो हो इतिहास म्हळ्यार आगळिकांनी भरिल्ल्या गोंयच्या इतिहासाचें एक जळटें पान... तर पळयात नाट्याविष्कार सांवार यूग...

(प्रकाश इल्लो इल्लो फांटभूंयचेर आशिल्ले सांतेर मायेचे रोयणिचेर पडटा. शिंगेली शींग वाजयता. एक भुरगो उज्याचो काकाडो घेवन प्रवेश करता. उमोदाद ताच्या हातांतलो काकाडो घेवन पणटी पेटयता. फोवा उंडी दवरून सास्टांग दंडवत घालता. बाकीचे नमस्कार करतात. भुरग्यांच्या हातांतलो फोवा खोलो सकल दवरता)

उमोदाद : दाणोगोटो, फळफळावळ, कणगांमुळां, झाडमाड तुजेच कुर्पेन वाडटा आनी फळटा माये. तुवें फळाक हाडिल्लो हो गिरास तुजेच आज्ञेन, तुज्याच पांयार दवरून घरांत हाडटले आनी पोरातोरांक

घालून खातले. वर्सवर्साक आमचे मातयेक तुवेंच बळगें दिवंचें. पीक दी, झाड दी, सांवळी दी, आमकां भुकेवं नाका, तानेवं नाका...! (नाल्ल रोयणीर दवरता)

(इतल्यांत वाड्यावयले चार-पांच जाण दादले खडपार उबे. उक्ते. मोट्यामोट्या मुंजींर फकत कास्ट्यो. रागान फुल्ल्यात.)

रायू : दादो, देवाक जाप विचारली तुवें, हें कितें चल्लां काय म्हण? आमचीं वासरां रेब्यांत शिरकतात. आमच्या माडांचे बोणे झडटात.

गुणा : मानेर जूं आसतना, गळ्यांत कानी आसतना वाग आमचें जोत मारता म्हटल्यार कितें?

रायू : तुजी पुजा सारकी जायना? काय देवाची सासाय मेल्या?

केसू : देवाचो असो फातर जाला जाल्यार धोणतळयेंत बुडोवन वडयात.

इसू : नातर शिमेभायर व्हरून दाळाक लायात.

गुणा : गांवची राखण करूंक नजो जाल्यार देव जाय कित्याक काय म्हणटां. कित्याक तेजी पुजा जाय, कित्याक तेचे तकलेर फोवाउंडी घालूंक जाय?

रायू : जाप विचार... उमोदाद, जाप विचार.

उमोदाद : पातकां!

सगळे : पातकां???

उमोदाद : हय, पातकां वाडल्यांत. आरे दारांतले वालीचें घोसाळें दोळ्यांहुजीर ना जाता, शेतांतलो हद्देफातर रातीभितर वांवा पयल्यान पावता. म्हाका सांगात, यशाल्या खळावयले धानगुडये रातोरात मळून व्हरून साळू देवळिणीगेर फोवांकालो कोणें केल्लो? पातकां भोगूंक जाय.. पातकां...

रायू : आमचें सांगणें फिरोवं नाका. देव आसतना, राखण आसतना गांवाक पातकां करचेली बुद्द जाताच कशी? तेचें निवारण देवानच करचें. ना तर गांवच्यान उठून चलूंक लागचें. जाब विचार तूं किर्ते काय म्हण.

सगळे : हय वय. जाब विचार... जाब विचार.

उमोदाद : हांव एकटो कोण जाप विचारतलो? गावान मेळून जाप विचारूंक जाय. शेसार मारून मूळ पुरसाचो अवसर हाडात भारार. तेका धारेर धरून जाप विचारात, भास घेयात. हिगा सांतेर आवयसरीं किते झगडटात? मतित थेयात. आवयल्या पोटातलो नाग दुखावल्यार धडगत ना गावची.

इमू : हाडटले, मूळ पुरसाकूय भारार हाडटले. तेका कशे उतराक धरतात पळयच तूं. तेणें पूजा मान-पान सारके जायना म्हणल्यार मात तुका सोडचे नात. धा जाणांचें शेत फकत भात पिकोवन खावंक न्हो. चल या रे. (वतात)

उमोदाद : देवाकडेन झगडटले, वाड्यावयल्या दायज्यांसरीं हाणामारी करतले, पूण वयल्यान रायाचो पटेकार येवन मात्शे भेष्टायल्यार गोठ्यांतलो बैल सोडून दिवंक फार्टी सरचे नात. (आडून) सगळो भार देवाचेरूच लखयतात तुमी. ते बदला सगळे मेळून हातांत कोयती, कुराड घेवन वचून वागाक धांवडावन कित्याक घालिनात? तें करचें ना तुमी. देव सोंपो मेळटा तुमकां. (खरस लागून बसता) (एक वाटसुरे भियेत धांपेत येता. १८-२० वर्सांची पिराय)

वाटसुरे : म्हाजी काकुट करात. म्हाका तुमच्या गांवांत आसरो दियात.

उमोदाद : कोण तूं? कोणा गांवचो? तुका आमच्या गांवांत आसरो?

वाटसुरे : घरांत ना तर दारांत तरी घेयात. दारांत ना तर आंगणांत तरी घेयात.

(दोग जाण येतात)

रायू : कोण रे तूं? किदें जालां तुजें?

इसू : ह्या गांवाकडे तुजो किदें संबंध?

वाटसुरो : पयसुल्ली एक मावशी ह्या गांवांत आसा. पूण हांव मावशेक वळखना आनी मावशीय वळख दाखयना.

गुणा : (येता) कोण गा? खंयच्या गांवचो वाटसुरो? कित्याक रडूंक पावला?

इसू : आरे, उलय मरे, भेड्डो काय कितें? अनवळखी चोराभाशेन गांवांत येयला आनी तोंड उकतें करिना. दांडो पडटलो तकलेर!

वाटसुरो : नाका, म्हाका धांवडायनाकात. पायां पडटां. म्हाका धांवडाय नाकात.

रायू : खंयचो कोण तूं?

वाटसुरो : हांव दिवाडेचो. लखू नायकालो चेडो, गणबा.

उमोदाद : कितें जालां तुगेलें?

गणबा : खरेंच! हांयें कितें खायलें म्हाका खबर ना. तेंकां हांयें बांयतल्यान बिंदूलभर उदक काडून दिल्लें. मुखाल्ली वाट दाखयल्ली. तेणी मागीर म्हाका खावंक जाड एक रोटी दिल्ली. वांगडा गोडापाखांत घालून दवरिल्लीं कसलीं तरी फळां दिल्लीं खावंक. (भियेता) फळांच तीं, आनीक कांय न्ही. दोनी दोळ्यांच्यान, खरेंच आनीक कांय न्ही.

रायू : मागीर फुडें कितें जालें?

वाटसुरो : लोक म्हणूंक लागले, हांयें तेंगेली रोटी आनी मांस खायलें म्हण. बापायन म्हाका घरांतल्यान भायर घालो. आवयय म्हऱ्यांत येयली ना. बायलेकय म्हाजेकडेन येवंक दिलें ना. मागीर गांवानय फातर मारून गांवांतल्यान भायर काडलो.

इसू : मागीर हांगा कित्याक येयला तूं?

गणबा : खूब भोंवलों. एका गांवांतल्यान दुसरो गांव. खंयच थारो ना. आवय म्हणटाली, 'आदोळशी एक पयसुल्ली मावशी आसा.'

रायू : नांव किदें तिचें?

गणबा : तिगेल्या आंगार खंय खूब तीळ आशिल्ले म्हण तिका तिळाय मावशी म्हणटाले. हांवें खूब ल्हान आसतना पळयिल्ली तिका. आतां वळखुचोय ना. पायां पडटां. म्हाका तुमच्या गांवांतल्यान धांवडावं नाकात.

इसू : आरे, हो बाटगो. आमच्या गांवांत येवन बसूंक सोदता.

रायू : फाटीं सात समुंदर बलांटून कोणतरी परधर्माचे लोक गोंय गांवांत येयल्यात. तेंच्या हातचें खायल्यार सासणाची वाट लागता. पुण हेवटेंन आमच्या गांवांत काय केन्ना ते येवंक ना.

केसू : हो निळायमावशी म्हणटा, त्या नांवाची आमच्या गांवांत काय कोणूच ना.

रायू : उमोदाद, तूंच हेचो कितें तो सोक्षमोक्ष लाय.

इसू : हय दादा. हेचें कितें करचें तें तुवेंच सांगचें.

उमोदाद : बाबानो, हो रामनाथ देवाचो, रामनाथाचे सासायेचो पुण्य पवित्र वाठार. ह्या गांवांत बाटग्यान, परधर्माच्या मनशान एके रातीक लेगीत वसती करूंक फावना. गांवाक पातक लागतलें. पयलूंच हार्लीसारा कसलीं शिनालां जातात तें तुमी पळयलांच. असल्यांनी गांव ल्याक पावतलो. बाबानो, गांव ल्याक पावतलो.

रायू : तशें जाल्यार हेका हांगा दवरून उपकारचें ना.

इसू : चलात, हेका गांवाभायलो करुया.

रायू : चलात उखलात दांडे. तेका हात मात लावनाकात. (सगळे

दांड्यांनी ताका बडयत व्हरतात.)

गणबा : म्हाका मारूं नाकात. मारूं नाका.

(काळोख)

(काळीज चिरून वडोवपी संगीत)

(उजवाड जाता तेन्ना दिसता रामनाथाचें देऊळ. गांवचे कांय लोक गजाली मारीत बसल्यात. अचकीत गांवचे शिमेर दोंगरावटेन 'घुऽऽम्' असो आवाज जाता.)

इसू : कसलो रे हो आवाज? मळब व्हाजलां काय वड पिंपळ मोडून पडला?

गयू : कार्तिक म्हयन्याचें मळब तर सामकें रितें आसलें, मागीर हो आवाज खंयचो?

इसू : असलो अजापाचो आवाज केन्ना गांवान आयकोंक नासलो. (सगळे भियेवन आवाजाचे दिखेन पळयतात.)

(तेन्नाच दोंगराची वाट देंवन एक भुरगो काचाबूल जावन धांवत येता. अण्णू ताचें नाव.)

अण्णू : ते धवले देंवचार गांवांत येवंक लागल्यात. तेणीं हो स वज्यांचो दुकर दोंगरांत मारून घातला. हांयें दोळ्यांनी पळयला...

इसू : आमी धव्या देंवचाराची खबर खळार आयकल्ली.

गयू : फकत आयकल्ली पूण केन्ना पळोवंक नासली.

केसू : ते अजापाचे लोक पयलेच फावट गांवात येतात.

गुणा : तेंचे विशीं जाय त्यो भंय-भिगंतेच्यो खबरो गांवान आयकल्ल्यो.

उमांदाद : ते लागीं पावत येयल्यात. हे पळयात घोड्यावयल्यान देंवले. तळयेवशीं गेले. आमी लिपोंया चलात. (सगळे भियेवन लिपून बसतात.)

गयू : आवयस्! कितले गोरे रे हे!

गुणा : संवसारांतल्या सगळ्या मनशांपरस ऊंच आनी घटमूट दिसतात हे.

केसू : तुमी धवे गोरे म्हणटात, पूण म्हाका ते तांबडे दिसतात.

रायू : फाटीं एक बुवा येयल्लो. सांगतालो, सात हतयांचें बळगें खंय तेंकां. गायचें मांस खातात आनी वयल्यान मनशाचें रगत पितात खंय.

उमोदाद : तांबडी राकेस जात ती.

अण्णू : तेतूंत आनी उज्याचीं तुबकां तेंचेकडेन. उज्याचो फारपेट करून लोकांक मारतात.

इसू : तेतूंत आनी शिशें बडोवन तेचे कुडके घालतात खंय.

केसू : कितेंय आसूं, लागल्यार मरणच. आकतार मेलो ना तर मगेर कुसून मरता. तरसादेक तर नागाचें विख लावन दवरतात खंय.

अण्णू : दादो, आतां आमी किदें करुया? ते हांगाच येतात.

उमोदाद : चला आमी कडसुया हिंगासल्ले. आनी सगळ्या वाड्यार खबर दिवया. (सगळे हळू हळू वतात.)

(एक दोन वडील पदवेदार पाखले. तांच्या फाटल्यान हेर काब सोल्दाद. एक देशी सोल्दाद. एका पाखल्याच्या खांदाक तुबक. पाखल्यांनी आंगाक बंद कोट, पाटलोण घातला. पायांक वादयांचे मोचे, तकलेक चेपें. देशी सोल्दाद कास मारून धोपरांमेरेन पाविल्लें धोतर न्हेसला. आंगाक जाड खोमसां, तकलेक रुमाल आनी पायाक जाड पट्यांचीं सादीं जोतीं. सगळ्या काब सोल्दादांनी कमरांक तरसादी लायल्यात. हातांत दांडे घेतल्यात.)

वडील पाखलो : देवूळ उकतें उडोवन खंय गेले हे सगळे?

सोल्दाद : भियेल्यात दिसता सिन्योर. आसतले लिपून बी.

पाखलो : आमी आतां देवळांत भितर घुसून देवाक हात घातल्यार येतले ते मुखार?

सोल्दाद : सांगूंक जाय ना. (चोंय वाटेन पाखलो सगळो वाठार नियाळटा)

पाखलो : हो सगळो थोंड शितोळ वाठार पळोवन काळजाक धादोसकाय भोगता. गडगंज देवूळ, तो मुखावेलो पिंपळ, तेचे पयल्यान व्हड तळय आनी मागीर आनी एक आकांताचो वडारूख. जानोत! मदीं व्हाळामेरेन पाविल्लो व्हडलो शेता केर, शेताच्या कडाकडानी वसयल्लो हो गांव! आनी इल्लो इल्लो दर्याचो गाज. आनी ते न्हयचें नांव कितें?

सोल्दाद : ह्या गांवचें नांव आदोळशी. आनी ती न्हंय दिसता ती अघनाशिनी. सिन्योर, हांगा खंय एक मनशाचो मागमूस ना. सगळें थंड. गांव उठून दिगतरा गेल्लेवरी.

पाखलो : (तिडकीन) कसलो हो लोक मनशाक भियेवन धांवपी! हांव सोता आफोन्स द आल्बुकेर्का वांगडा मुरां वांगडा झुंजत गोंय जुव्यार दोवल्लां. तीन वर्सा जालीं हे खाबरेक. जाय त्यो तरो देखल्यो. कमरेक तरसाद काडल्यारच नाग सोरपाक भियेल्लेवरी भियेवन धांवपी लोकय चोयले.

सोल्दाद : हांगाचे सगळे लोक दाराक खिळी घालून भितूर पडल्यात.

पाखलो : गोंय जुव्यार देंवन तीन वर्सां जावन गेलीं तरी गांवगिऱ्या वाटागतलो लोक आमकां आजूनय राकेस कशे सोमजोतात. गोय पाटणाचेर बाँवगुळे घातले, हजरांनी मुरांक कातरीले देखून ते भियेल्यात. गांवा गांवानी बेटाच एक गवाय उठल्या, आमी फटोवन गायें मांस आनी हेर खाण खावयतात आनी बाटयतात म्हण. आतां अशेंच करूया. तूंय कामेस कर. (वयर चडटा) आयकात आदोळशे गांवच्या समस्त लोकांनो. कान दिवन आयकात. आमी आतां हिंगाचे कापितांव... आमी आदिलशा कडच्यान गोंय पाटण जिखून घेयलां. तुमी आतां पोर्तुगालच्या रायाली परजा. येयात, अशे सामकार येयात. आमची ओर्द तुमका - आसा तशे हिंगा येयात.

(हेंच उतरां सगळे सोल्दाद मोठ्यान म्हणटात)

(कापितांवाक तिडक येता)

सोल्दाद : सिंयोर, सगळें थंड. बोबो मारुनय कोण्ण देर काडिना.

(कापितांवाली तिडक चडटा आनी कमराची तरसाद हातांत घेवन दारार खोंट मारता)

पाखलो : मोडून वडयतलों, उजो घालतलों घाराक...

(एक बायल अचकीत दार उगडून भायर येता. हातांतलें लांकडा माप पाखल्यार शेवटून मारता. ती चंडिका कशी दारांत उबी रावता)

बायल : तुजें मडें खपूं. भस्म जावं तुजें. दारार खोंट कित्याक मारता मसण्या? खंयचे सात समुंदर बलांटून येयल्लें अवचिन्न. देवा-धर्माचें घर हें.

पाखलो : कसलो देवधरोम सांगता तूं? देराक खिडी घालून बोसतेल्या भिजुडांचो कसलो बाबत देव आनी धोरोम!

सोल्दाद : असल्या धोर्माक व्हरून दोरयांत बुडोवंक जाय.

पाखलो : (गांवाचेर आड्डता) एक ओस्तुरी देर काडून देरार उबी रावता आनी दादले भिजूड कशे भितुर लिपून रावल्यात. भायर सोरात ना तोर आमचीं हीं उज्याचीं आर्मां घेवन आमी घारांत घुसतेले.

बायल : (कुंकार घालून) हळे, हळे, हळेऽऽ, आयकात. सगले ल्हान व्हड दादले भायर येयात. ना तर हे भश्टे घरांत घुसतले. भियेनाकात तेंकां. (सगळ्या घरांतले १५-१६ लोक ल्हव ल्हव घरांतल्यान भायर सरून येतात.)

उमोदाद : हाचे पयलीं खंयच्याच रायाल्या मनशांनीं आमकां अशे धपकावन भायर काडूंक नासले. ते आमचो मान राखताले.

कापितांव : हेरांचें सांगूं नाका. आमचें बळगें मोटें. रायाच्या बळग्यार आमी हें

सोंगलें आदिलशाकडच्यान जिखून घेयलां. स हाजार मुरांक आमी कापून काडल्यात आनी तेंचें रोगोत व्हांवयलां गोंय पाटणांत. आयज आमी हिंगा येयल्यात ते, तुमी पुर्तुगालच्या रायालो शेंक मानून घेतला म्हण कोबलात घेवंक. हे मुखार ह्या गांवची म्हामूलपोंटी. डोंबी आमकां पावंक जाय.

रायू : अशें बळजबरेन घेवंचें तुमी सगळें? खरें म्हणल्यार आमकां तुमचे सामकार येवचेंच मनांत नासलें. तुमी कातरिल्ल्या मुरांच्या बायलांक बाटोवन जबरदस्तीन तुमच्या सोल्दादां वांगडा लग्न लावन दिलें. येयनाफुडेंच तुमच्या धर्माचें देवूळ बांदलें. आतां तर किल्यायकितें खावंक लावन आमच्या धर्माच्या लोकांक बाटयतात खंय.

पाखलो : (विचित्र हांसत) खरें सांगूं? आमी बाटोवन लोकांक आमच्या धाग्मांत हाडचलें काम आजून केल्लें ना. तुमींच आपूण जावन केलां तें सुरू. आमचे हातचें चुकून कितेंय खाल्यारूच तेकां घरभायर, धाग्माभायर कोरतात.

उमांदाद : आमचो धारम, आमचो देव हाकां नीट राखण मेळूंक जाय. जाल्यार आमी सगळें तुमचें मानून घेव.

पाखलो : गोवेर्नादोर आफोंस दे आल्बुकेर्कान तशें उतर गोंय जुंव्यावयल्या हिंदूंक म्हाळ पै वर्ग्वी दिल्लें आसा. तेंका आजून पोर्तुगालच्यान मान्यताय येवची आसा. पुण तुमकां एक सांगतां, पोप सायबालें आज्ञेन पुर्तुगालच्या रायालें धोरण जावन आसा. रायालो धोरम तोच तेच्या पोरजेचो धोरम. तरी मध्याक गोवेर्नादोर आल्बुकेर्कान दिल्लें उतोर आमी तरलें कापितांव पाळटले.

इमू : हें गोंय तुमी तुमच्या शेकांतळा कशें दवरतले? म्हाळ पैन हांगा पिडापीड करपी मुरांक धांवडावन घालुंक होनावरचो सुभेदार तिमय्याक आफोंवणें धाडिल्लें. तिमय्या तुमकां आधाराक घेवन येयल्लो. राज्य तुमचें कशें जालें?

(कापितांवाक राग)

उमोदाद : गांवची म्हासुलपटी तेगेल्या पटेकाराकडें हांवच पावयतालों.

पाखलो : शितीन धोर, गेल्लीं तीन वर्सां तूं पुर्तुगालच्या रायालो मुनीस जावन आसा. तिमोय्या ल्हान मुनीस. ल्हान जातीचो एक सुभेदार. राज्य जिखचेली, तें राखून दवरचेली, तेची तांक ना. तेका व्हीसरायान गोंय जुव्याचो म्हाल ठाणेदार नेमियार केल्लो. पूण तेका तें घोस्ताक गेलें ना. गेलो तो गोंय सोडून. गोंयचें राज्य जाय आसलें तेका.

रायू : ल्हान जातीचो तो तिमय्या. ताका राजा जावप सोबचें नासलें, आमकांय ताच्या शेकातळा रावप मानवचें नासलें.

(पाखले हांसतात)

कापितांव : म्हाका एक सांग रे गांवकारा, ह्या दोन वर्सांची म्हासूलपोटी तुवें आमकां पावोयली?

उमोदाद : कोण राजा आयला, कोणाचें राज्य चलता तें आमकां खबर नासलें. नव्या रायाचो कोण मनीसय आमचेसरीं येवंक ना.

कापितांव : (तापून) शितीदान उलोय. तूं आतां पुर्तुगेजाल्या रायाल्या राज्याचो गांवकार जावन आसा. आमी तोफगुळे गोंय शारार उडोवन घडघड घालीत गोंय जिखलें. मुरांची धानाधिस्पट करून तेंकां धांवडायले. कितल्यांक कातोल्ले, कितले पोळोन गेले हेचो हिशोब-कौंत ना. आनी तूं सांगता आमी येयल्ल्याची खोबोर गांवांत पावूंक ना!

उमोदाद : खरें सांगूं, तुमी सात समुंदराभायल्यान येयल्ले परकी लोक. हांगची लूट घेवन १-२ म्हयन्यांत वयतले अशें समजले आमी. तुमी अशे बसकण मारून बसतले म्हण कोणाक खबर?

कापितांव : सिन्योर आल्बुकेर्कान हें आमचें ठिकाण केलां तें सासणाचें. पुराय दरयाचेर आमचो शेक ते परी हे भुंयेर. हांगा उबे रावनच आमी

आमचो वेपार-उद्देग आनी मुखावेलीं झुंजां झुंजतले. राज्य वाडयतले.

सोल्दाद : गांवकार, गांवचो राबितो कितलो?

उमोदाद : एकावन्न घरां, ब्यात्तर चुली, एकशंतीन जोडपीं, वट्ट संयशें-णव लोक. एकूच भुमारी पसरो आसा गांवांत.

कापितांव : गेल्ल्या वर्साची आनी ह्या वर्साची मेळून म्हासूलपटी मेळूंक जाय आमकां. कालापूरच्यान दासू पै पटेकार येतलो आठ दिसांनी. तेचे सगीं पावोवंची दोन वर्साची गांठ. आदलेवरीच.

उमोदाद : पूण आमचो गांव गिरेस्त न्हीं...

कापितांव : एक उतार उलोवंचो ना. हांव मानतां तुमी आमच्या रायाचो शेक मानून घेतला. हे मुखार सकाळीं उठून तुमचो पोयलो नोमोस्कार पुर्तुगालच्या राजाक.

इसू : दर्या बलाटून येयल्लें भश्ट लोक तुमी. तो तुमचो राजा आमकां लागना. आमी ताका नमन करचेनात. आमच्या देवाकच आमी नमन करतले.

कापितांव : फिचनापूत! मार्लक्रियाद! (पाल्मार्त्रीन ताका मारता) आमी आमच्या आगार तोरसादीचे घाय सोंसूं, पूण आमच्या रायाक इन्सुल्तार केल्लें सोंसपा ना. खरें म्हणल्यार हेका जिवोच मारचेलो हांव. (तरसांदेची मूट आंवळून) तुमी आपखोशयेन आमचो शेक मानून घेतलोना, तोर फोर्सान मानून घेवंक लायतले. आमकां तुमचो आधार जाय ह्या राज्याची उस्तोवारी कोरूंक. सिन्योर आल्बुकेर्कान आमकां तीच ऑर्द दिल्या. (वता आनी परत फाटी सरता) तुमी देवाचो पूत जेजू जाणात?

सगळे : (तकली हालोवन न्हयकारतात.)

कापितांव : देवाच्या पुतान सोर्गासान येवन आमकां आमचो धोरोम दिला.

तोच धोरोम आमच्या पुर्तुगालच्या राजाचो. तुमकां तुमचो धोरोम सोडचो पोडल्यार तुमी कितें कोरतले?

कांय लोकः (किवांट्यान) आमी आमच्या कुडींचें दहन करून घेतले.

कापितांव : तुमकां कोणे गायेचें बीन मांस खावंक लायल्यार तुमी कितें करतले?

सगळे : सासणाचो उपास करून जीव सोडटले आमी.

कापितांव : तुमकां कोणेंय जाय तितलें भाटबेंस, दुडू दिल्यार?

गुणा : आख्खे धरतरेचें धन हाडून आमच्या पायांर घातलें तरीय आमी आमचो धर्म सोडचे नात.

कापितांव : (हांसता) आतां निमणो एकच प्रस्न. कोणय एका हातांत घण आनी दुसऱ्या हातांत तोरसाद घेवन तुमचें देवूळ आनी देव फोडूंक येयल्यार कितें करतले तुमी?

(आतां सामकी थंडाय)

उमोदाद : देवच पळोवन घेतलो तेंकां. तोच ख्यास्त दितलो.

(कापितांव आनी सोल्दद मोठमोठ्यान हांसतात)

(वतात, घोड्याचो आवाज... सगळे भिरांकूळ नदरेन तांकां पळयतना भिरांकूळ संगीत आनी हळू हळू काळोख.)

(गांवांत एके सुवातेर कांय लोक चिंतेस्त बसून गजाली करतात)

(फांटल्यान कसलेंय झाड दाखोवं येता)

गयू : हें कितें चल्लां आमच्या गांवांत?

केसू : पाखले येतात आनी भंसडावन वयतात.

गुणा : फाटीं गांवके वेळार नायक गावकार आनी शणै गांवकारां मदीं हाणामारिचें झगडें जालें. तकल्यो फोडल्यो एकामेकांच्यो. तेन्ना एक शेफ आनी चार सोल्दाद येयले. चार दीस रावितो करून आसले.

इसू : खरें गोंळाक लागिल्लीं हीं वसां. आमच्या गांवार सदांच एक चेपण, हुस्को आनी भिरात. शिर्मभितर पुरिल्ल्या बाटम्याचो-निळायमावशेल्या भाच्याचो भंय तर पुराय गांवाचेर पातळून उरला.

उमोदाद : जात्रेक देवाकांडींत देव न्हावंक गेल्यार भियेत भियेत पालखी वयलें वाटेन दवरपाची आनी ताकतिकेन देवाक न्हाणोवन हाडपाची. ह्या वर्सानी थंय वाजंत्रां तर साप्प वाजनात! हर हर म्हादेवाचो गजग्य जायना. फूलपुजेबगर देव न्हांवन येता.

गयू : चोयवर्देनच्या गांवातल्यान पाड्यो खबरी येतात. लागींच्या कालापुरा, मेरशे, पाळये, व्हडलें गांय, आगशे ह्या गांवांनी ते आपलो धर्म घेवन रिगल्यात.

इसू : तुमीं आयकला?

कांयजाण : किदें तें?

इसू : आरे, मेरवाचें म्हण गोरवाचें मांस खावयलें आनी बाटयले. मेरशे खंय कोणाले बांयंत गोरवाचें हाड हुबतना गावलें खंय. बाटून व्हरतात आनी तेंच्या देवळांत उबे करतात. फाटल्यान चाबका-तुबकां घेवन सोल्दाद...

उमोदाद : पयर हांयेन एक खबर आयकली. गोंय पाटणांतल्या सगळ्या चोरांक बाटोवन मेकळे सोडून दिल्यात. ते गांवांगांवांनी चोरयो करीत भोंवतात.

(एक गोरो पाद्री एकलोच गांवांत भोंवत येता)

रामगो : हो कोण अजापाचो अनवळखी? सातां समिंदरां भायल्यान येवन भंयभिरांत नासतना एकलोच भोंवता!

इसू : हऽय, तूं येवं नाका हांगासर ह्या वाड्यार, तुजी गरज ना आमकां. हेन मुखार वाड्यार येयल्यार मारून धांवडायतले. दोंको मोडटले.

पाद्री सिमांव : देवाचो पूत जेजू जो मारीया मांयच्या पोवित्र आंकवार कुसव्यांतल्यान जल्मल्लो, तो संवसारांत काकुळटायेचो, सुखसंतोसाचो संदेश घेवन येयल्लो. मोगान आनी काकुटायेन तेचें काळीज उपाट भरिल्लें. तेणें सांगलें, तुमी तुमच्या घरच्यांचेर मोग करात, शेजाऱ्यांचेर मोग करात. आनी तेच परी तुमच्या दुस्मानाचेरुय मोग करात. तो तुमचो जिवाभावाचो इस्ट जातलो. जेजून सांगलां, ''एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो दियात. दुस्मानाचो लेगीत हात उठचो ना तुमच्या दुसऱ्या पोल्यार मारूंक.'' हे परी संसारांत मोग पातळयात... आमेन...

(इतल्यांत कोणतरी झाडाच्या आडसरांतल्यान पाद्रीचेर एक फातर शेंवटिता. ताच्या कपलार बसून कोंक पडून रगत व्हांवता. पाद्री दिमी मारून देवाक पराथिता, भोगसणें मागत)

पाद्री : आपणाक खुर्सार मारतल्याक लेखून जेजून म्हुटलें, ''देवा सर्वेस्परा, ते बाबडे अबुद्द अज्ञानी. ते किदें करतात तेच नेणा! तूं तेंकां भोगसीय.'' मळबाच्या देवाबापाचो पूत तो. मळबायेदें मन आनी दरयायेदें अंतस्करण आसिल्लो अख्ख्या संसाराचो राया तो. (कांय बायलां, भुरगीं भरे घेवन वतालीं तीं थंयच आडसाक रावन आयकतात) तुमी जेजूक आपणायात आनी मगेर भावार्तान,

विस्वासान तुमचीं कस्टां, तुमचीं दुख्खां तेका सांगात. तीं पयस जातलीं. आमी मनीस दिसपट्टे जिणेंत जायतीं पातकां करतात. पातकांचें पानवळ आमकां भोगचें पडटा. जेजूसरीं भावार्त दवरात. पातकांची कबुली दियात. तो तुमची पातकांतल्यान सोडवणूक करतलो. भाग्यवंत देवाचो पूत तो. तो हात लायता त्या झाडाक फुलां फळां चंवरतलीं. वांयटकाराची पिडा पैस जातली.

अण्णू : तूं हें सगळें खरें सांगता?

पाद्री : हय भावा. एक फावट जेजूचे कांय इस्ट व्हड्यांत बसून दर्यातल्यान वयताले. आकाताचें मोड जालें आनी व्हडें बुडूंक लागलें. तांणीं जेजूचो आदार मागलो. तो तेकां वाटावंक दर्यातल्यान उदकार चलत त्या व्हड्यासरीं गेलो. जेजूचो पांय उदकाक लागनाफुडें मोड आनी वशाड ना जालें आनी दर्या शांत जालो. संवसारांतली सगळीं दुख्खां पयसावंक तो आपखोशयेन खुसार गेलो. भावांनो, जेजूक आपणायात, सगळ्या संकस्टांतल्यान तुमची सोडवणूक जातली... सोर्गाचीं दारां तुमकां उकतीं जातलीं...

(अण्णू भारावन)

अण्णू : हीं तुजीं उतरां सत गा अनवळख्या?

पाद्री : हय भावा, जेजूचें शिकवणेचीं उतरां जेजूचो शिश्य आंतोनान ताचो शिश्य पावलूक सांगलीं. पावलून तीं संवसाराक सांगलीं. अशें सांगतात, जेजू खुसार मरतगीर आठ दीस मेरेन तेचें शिकवणेचीं उतरां पडसाद कशीं संवसारांत घुंवतालीं. (अण्णू एकदम मुखार वचून पाद्रीच्या पांयांर सास्टांग नमस्कार घालता)

पाद्री : (भावनाविवश जावन) जेजू तुजें बरें करूं. तुका सगळ्या तापत्रयांतल्यान वाटावूं.

इसू : (धपकायत) गांय पाटणांत आनी आतां बाकीच्या वाठारांत तुमी

लोकांक बळान बाटोवंक सुरू केलां खंय?

केसू : चोडणां जुंव्यावयलें चामुंडेश्वराचें देवूळ मोडून घालें खंय.

रायू : आड उलयल्यार मार-बडय करून बंदखणींत घालतात खंय तुमचे शिपाय.

उमोदाद : आतां हिंगा तुजी ही माण्णी कसली? तुका मुखार धाडला तेणी, आमकां गुठलावंक.

बायलां : दादो! दादो!

उमोदाद : तुमी हिंगा कित्या रावल्यांत राणग्यांनो? वसात घरांत चुलीकडे. हां- तूं उलय मगा! तुगेलें हिंगा येवपाचें कारण किदें?

पाद्री : म्हज्या भावा, तूं चुकीचे वाटेन चिंतता. मायेमोगाचो संदेश घेवन येयल्लो, काकुळटायेचो धर्म आमचो. बळ वापरप म्हटल्यार व्होडलें पातक.

गुणा : बळान केन्ना बाटोवंक येता? आमी जाल्यार बाटून घेवंचेपरस मस्तक धाडावन जीव दिवं.

रायू : हेका आफूडल्यार वाट. सट्करुन फाल्यां कितेंय हाताचे बांयंत खावंक घातल्यार घात न्ही. सादूर रावंक जाय.

पाद्री : भावा. कांय लोक चुकीचे वाटेन वयतात जायत. आमी सर्वेस्परालागीं मागुंया, तेंकां बरी बुद्द दी म्हण. तेंकां कोणेंतरी पाड वाट भासयल्या. बळ वापरून केल्लें काम दयाळ आनी क्षमाशील जेजूक मानवचें ना. ताचे शिकवणेच्या आड तें... आमेन. (चलूंक लागता. ताचे फाटल्यान अण्णू वता)

गुणा : आरे! हो पिश्याभाशेन तेच्या वांगडा वयता.

इसू : अण्णू, फाटीं सर. आवय-बापूय नासलेलो अनाथ पोर तूं. असो अविचार करून त्या भायल्यावांगडा वचूं नाका.

केसू : तुका तुजो देव-धर्म आसा. फाल्यां, खांदयो मोडून भुंयेर पडिल्ल्या माकडा पिलाभाशेन गत जातली तुजी.

गुणा : हांव वयतां तेका ओडून हाडूंक.

रायू : तूं खंय वयता? त्या भायल्याक हाफुडला तेणें. न्हावोवन आगार शेणांशितुडो घातलेबगर तेका हात लावंक फाव ना. तूं वचूं नाका तेका ओडूंक.

उमोदाद : गेलो. कानामनार घे नासतना त्या अनवळख्या फाटल्यान गेलो.

(सगळे चिंतेस्त. तांकां पळेत आसतना हळू हळू काळोख. प्रसंगाक सोब सारखें गीत.)

(उजवाड जाता तेन्ना दिसता कड्डान शिविल्लो एक ल्हानसो मांगोर. एका कोनश्याक तीन गुण्यांची चूल. ताचेर मातयेचो बुडकुलो. म्हेडीक एक लांकडाचो खुरीस. दुसरे म्हेडीक एक तरसाद. चुलीसरीं फाट करून मोठ्या आंगाचो एक शिपाय बसला. चूल फुंकता. मुजीर जाड काश्टी आनी आंगाक बंडी. हांकां पळोवन ताजी तरसाद लायल्या थंय उबो रावता)

पाद्री : अपरबुद्द भुरग्या, तूं हे दिखेन खंय वयता?

अण्णू : हांव तुजेच वटेन तुजेच वांगडा येवंक भायर सरलां गा.

पाद्री : कित्याक म्हूण?

अण्णू : तूं म्हाका जेजू देवाक भेटयतलो म्हण हांव आशेतां.

पाद्री : तुज्या काळजासावन हें तूं सांगता?

अण्णू : हय. हांव सामको आकुळपिकूळ जालां.

पाद्री : कित्याक? तुका तुजो देव ना तर?

अण्णू : आनी जेजू कोणाचो देव तर? जेजू म्हणल्यार देव न्ही?

पाद्री : तूं आजून नेणार. तूं एक म्हयनो म्हजे वांगडा राव. मागीर कितें तें थाराय. तुका जाय तेन्ना तुज्यान म्हाका सोडून वचूं येता. पूण एक फावट तुवें जेजू आनी तेचो धर्म आपणायलो म्हण्टकीर तुका तो कसोच सोडूंक येवचो ना. (तोमासाक) जाणा, हो आमचे वांगडा एक म्हयनो रावतलो. मगेर तो सोता थारायतलो, आमचो भावार्त आपणावचो काय ना तो. येतां हांव मुस्तायकी बदलून.

तोमास : (हांसता) एक म्हयनो नाका तेका पाद्री बापा. एक दीस चड जालो.

अण्णू : अशें कित्याक म्हणटा तूं?

तोमास : बाबा, हांगा फकत येवचेली वाट आसता. येयलो म्हण्टकीर परत

वयचेली वाट आपसुक बंद जाता. पयर मेरशे कितें जालें जाणा? एकं चुलीर कांय किरिस्तांव बैलगाडेवाले रांदून जेवन गेले. तांचे फाटल्यान एका हिन्दू घराब्यान तेच चुलीर रांदलें. आनी ते जेवले. तर तेंचे जातीच्या लोकांक कळटकीर तेणीं तेंका जातीभायरें केलें. तीं धांवबायलां खूब रडलीं, पांया पडून विनयलें पूण जातींतल्या लोकांनी कांय एक आयकलेंना. निमणें तीं जीव दिवक म्हूण न्हंयेर गेलीं. एका सोल्दारान तेंका धरून हाडून पाद्री सुवादीन केलीं. तीनूच दिसानी तेंचो बातिज्म जालो.

अण्णू : तुजें नांव कितें?

तोमास : (शेणिल्लेवरी जाता आनी मागीर) देमू, न्हीं, तोमास. तोमास म्हजें नांव. पुण तूं देमूमामच म्हण आफय म्हाका. तूं कित्याक म्हण येयला हांगा?

अण्णू : बेटांच. सदांच म्हाका दिसतालें गांव सोडून पयस वयचें. काशीक, पंढरीक बी वयचें. गेल्ले खेप हांवें पंढरी वारीक येतां म्हटल्यार सयरूनातून म्हळें, "तूं भुरगो, तुका व्हरचे नात." पाद्री बापालीं उतरां खूब मानवलीं म्हाका. जेजू देव बरो खय. तेणें हात लायिल्ल्या झाडाक चवर येतलो खय.

तोमास : (मुस्कारून) कोणाक खबर कितें बरें आनी कितें वायट? दोन वर्सां जालीं हांवें बातिज्म घेतिल्ल्याक. बायलभुरगीं आजून हिन्दूच आसात. तेणीं बातिज्म घेतलेबगर हांव तेंच्या वाऱ्याक वचूंक शकना. तीं घेतां घेतां म्हण दीस काडीत आसात. कितें जातलें जेजूक खबर.

अण्णू : कित्याक म्हण तुवें धर्म बदलिलो?

तोमास : भोग ते. भोग म्हज्या नशिबाचे. एक खेप म्हजी मत भश्टली आनी हांवें एका पाखल्या सोल्दादाले पेटयेंतले दोन क्रुसाद काडून घेतले. गावलों हांव. ते म्हाका मारून व्हरून बंदखणींत घालचे

आसले. पूण कापितांवान म्हटलें, ''तूं किरिस्तांव जावशी जाल्यार तुका सोडटां.'' व्हिसरायालें तशें फर्मान आसा. हांवें भियेवन हां म्हणलें. मगेर गोंय पाटणांत म्हाका पाद्री सुवादीन केलो. तेणीं सां कातारीनाचे इगर्जेंत म्हाका बातिज्म दिलो. चाकरेंतलोय काडूंक ना.

अण्णू : तुवें धर्म बदलिलो म्हूण तुका खंत भोगता रे देमूमाम?

तोमास : तुवें म्हाका देमूमाम म्हणलो? ह्या तोमासाक? म्हज्या भाच्या, म्हाका खंत भोगना रे हांवें कितें केलां ताची. पूण सुर्वेक म्हयनोभर आसलों हांव थतर वितर. पिशांतूर कसो रावतालों. आतां कांय दिसना तेचें. एक फावट बायल भुरगीं म्हजेसरीं पावल्यार पुरो जालां. ए बाबा, तुजें नांव कितें रे?

अण्णू : अण्णू.

तोमास : अण्णू, तूं म्हाका देमूमामच म्हण हां. व्हडान ना म्हणल्यार जाता. ल्हव तरी म्हणच.

(पाद्री सिमांव आंगावयली जड मुस्तायकी देंवोवन येता. आंगार हात नाशिल्लें आनीक धोंपरामेरेन पाविल्लें आंगलें कशें पातळ वस्त्र आसा. म्हेडीवयल्या खुरसा सामकार धिमी मारून रोजार करता. लातीन भाशेंतलीं मंत्रां म्हणटा.)

अण्णू : देमूमाम, हो मुनीस कोण खंयचो?

तोमास : पाद्रीबापा म्हणपाचें तेका. पूण तो खंयचो तें तूंच तेका विचार.

अण्णू : पाद्रीबापा, तूं खंयचो कोण?

पाद्री : हांव कोण? खंयचो? समजतलें. एक ना एक दीस समजतलें तुका आण्णू. पूण हांव न्हूंय पुर्तूगालचो आनी न्हूंय ह्या तुमच्या गोंयचो. पूण हांव ह्या गांवांत येयलां तो जेजूची शिकवण दिवंक. फटोवन, मना आड, फुसलावन हांव आमच्या धर्माचो बातिज्म कोणाकूच

दिवंचों ना. भिगंत घालून, फटोवन जाल्ले ते बरे किरिस्तांव जातले म्हूण सांगू नजो. पुर्तुगालच्या राजान एक कडक कायदो केला. इन्किझिसांव. ताचो मुखेली पुर्तुगाल्सावन गोंयांत पावला. ताचें नांव आलेक्स दियेश फालकांव. इन्किझिसांव! हांवें स्पेन, पुर्तुगालचीं इन्किझिसांवां अभ्यासल्यांत. ताचें बळगें सोसपाचें न्ही. ताचें बळगें सोसपाचें न्ही.

अण्णू : पाद्रीबापा, म्हाका तान लागल्या.

पाद्री : तोमास, तेच्या खावपा पिवपाची वेवस्था कर.

तोमास : अण्णू, भायर मांगरा भायर ती फातराची तुका चूल केल्ली आसा. थंय एक नवो गाडगो दवरला. तांदूळ घे, सोताच रांद आनी जेव. हें भाणांतलें उदीक घे. (घेतकच) आमी आफुडिल्लें उदीक बरें घेता मूरे तूं?

अण्णू : तूं मामा न्ही? मामाल्या उदकाक बाट कसली?

तोमास : मागीर ह्या मामाल्या हातचें जेवशी तूं?

अण्णू : तूं बाडशी जाल्यार.

तोमास : ना. तुवें बातिज्म घेतले बगर हांव तुका व्हाडचों ना. खातल्यापरस खावयतल्याकच पातक. (मुस्कारून) मामा किरिस्तांव आनी भाचो हिन्दू! अशेंच जाल्लां आता गोवालोकांत. आनी कितें कितें जातलें देवाक खबर! (वतात)

पाद्री : वा! कितलें मायेन उलयतात ते एकामेका लागीं! तेंचें हें रगताचें, धर्माचें, देशाचें आनी पुर्वाचारांचें नातें. धर्म बदलले तरी निमणें एकच तें. उदकार दांडो मारलो म्हूण तें दोन जाता? फुकट आमची ही धडपड. वांगीच आमी रगत आटोवचें. हांव मोगाचेच वाटेन सगळ्यांक जेजूसरीं व्हरतलों. (इतल्यांत जाण्टेलो आनी एक सोळा-सतरा वर्सांचो भुरगो मेल्लें गोरू घेवन वाटेवयल्यान वतात.)

(तांच्या हातांत कोयती कशे व्हड सुरे)

पाद्री : तुमी गाये मांस खातात?

जाण्टेलो : हय, खातात गा.

पाद्री : तुमी हिन्दू न्ही तर?

भुरगो : न्हू गा. आमी धोरां ओडपी. सुपां, चोंबे, हांतर हांतरी करतात. गांवकेचें पेरगांव घालतात.

पाद्री : तुमचो धर्म खंयचो तर?

भुरगो : धर्म बीन व्हड लोकांक गा. गांवकारांक. आमी अशेच.

पाद्री : तुमकां धर्मच ना तर?

जाण्टेलो : जोशाक विचारचें पडटलें.

पाद्री : तुमच्या हातचें हेर लोक खातात?

भुरगो : शा, शा...

पाद्री : तुमकां ते आफडून घेतात?

जाण्टेलो : शा, शा...

पाद्री : तुमी मनीस न्ही तर?

भुरगो : कोणाक खबर कितें म्हण. तेंचेवरी हातपांय आसात म्हण मनीस म्हणचे. आमची सावळी पडल्यार शेणांशितुडो घालून घेतात ते आपल्या आंगार.

पाद्री : शेणापरस तुमी पास्ट तर?

भुरगो : कोण जाणा.

पाद्री : तुमची जात धर्म सोडून हेर धर्मांत वचूंक तयार आसात?

जाण्टेलो : तूं कितें म्हण्टा तें कळूंक ना गा म्हाका. एक खेप इश्वर खंय साधूच्या रूपान दारांत भीक मागूक येयल्लो. आमच्या पुर्वजान खंय तेंच भिके कट्टेंत मोडिल्लें शिंग उडयलें. तेणें शिराप दिलो, ''हें निमणें. हे मुखार आनी तुज्या दारांत कोण भिकेक येवंचें ना. हीं शिंगां घेवन जल्मभर तूं धोरां ओडीत रावतलो.''

पाद्री : दुसरे जातीचे तुका केन्ना आफुडल्यात?

जाण्टेलो : ना गा, केन्नाच ना.

(पाद्री ताच्या दोगायच्याय खांद्यार हात दवरता)

नाका गा, आफडूंक नाका आमकां, व्हड मनशा. तुमी गोरे कातीचे. आमी पाड हुवाळिल्लीं मनशां.

(अण्णू येता.)

पाद्री : अण्णू, तूं हंकां आफूडशी?

अण्णू : ना, ना.

पाद्री : कित्याक अण्णू तूं तेंकां हाफुडना?

अण्णू : कोण्ण हाफडीना तेंकां. हाफुडल्यार भश्टतात न्ही!

पाद्री : भश्टतात म्हळ्यार कितें जाता? आंग म्हेळें जाता, काय आंगाक घाये पडटा?

अण्णू : हांव नकळो पाद्री बापा. म्हाका कांय खबर ना. हेर तेंच्या म्हन्यांत वचनात म्हूण हांव वचना.

पाद्री : तूं बैलाक रेड्याक हाफुडटा?

अण्णू : हय.

पाद्री : मगेर हंकांच कित्याक हाफुडना?

अण्णू : जोयश्याक विचारचें पडटलें.

पाद्री : (तापून) दुश्ट, पडमूर, रानटी लोक तुमी. मनशान मनशाक आफडप ना म्हळ्यार केदो व्हडलो अधर्म आनी अनीत. जाय कित्याक असलो धर्म! तुमकां सगळ्यांक एका दिसा आमच्या धर्माचे करून वडोवंक जाय. हे मनीस आसूनय तनमनान मनीस न्हीच! हेरांचे सावळेक, स्पर्शाक भिवन, आंग चोरून पयस रावपी. मनीस, आनी मोनजात हांचेमदली खंयची तरी एक हीण भित्री जात! मनशान मनशाक अशें हीण दीन करप! गोंय पाटणांत सांपावल कॉलेजींत आसतना हांवें हिन्दू धर्माविशीं इल्लो अभ्यास केल्लो तेन्ना म्हाका दिशिल्लें, उंचेल्या तत्वगिन्यानाची फाटभूंय आसलेलो हो धर्म. पूण आतां दिसता, तांचें तत्वज्ञान म्हणल्यार एक मोठें ढोंग आनी फटींगपण!

(पाद्री सिमावालो रावितो)

(कांय गांवचे लोक वाटेवयल्यान वतात. हातांत कुराडी)

गोकू : हो बाटगो मायझवो. जातीभायरो जावन परधर्माच्या मनशावांगडा रावता, भोंवता. जातीक आनी कुळाक कलंक लायलो हेणें.

केस्पू : हेंचो बापूय आमचे घरवडेंतलो, आमच्या रगताचो. काय बरो भागर मनीस आसलो आनी हो अर्वाचिन्न घर सोडून धांवन येयला मजा करूंक. दुकराचें मासय खाता आसतलो.

गोकू : ह्या पातक्याक दांड्यान बडोवन मारतले आमी! दवरचे ना जितो.

(पाद्री मुखार येता. दोनुय दांडे रोमिल्ले तशेच धरता)

पाद्री : तुमी मारूंक तांकचे नात तेका. पुर्तुगालच्या रायालें कायद्याचें, निर्तीचें राज्य चलता हांगा. तो अबुद्द. तुमकां जाय जाल्यार घेवन वचात तुमी तेका. आजून तेजो बातिज्म जाल्लो ना.

केस्पू : तुजे वांगडा रावला तो. तुजे वांगडा खायला जेयला. आतां वाड्यार नाका तो. तेका आमी आपडून घेवचे नात. मारूनूच उडयतले तेका.

पाद्री : तुमी तेचे कुडीक हात लायल्यार, जखम केल्यार बरें जावचें ना. कायद्याची, देवाधर्माची भिरांत धरात. तेच्या मरणाचो गवाय हांव आसतलों. फाल्यां पाखल्याची फौज गांवांत येतली. बांदून व्हरतले तुमकां. तरी तुमी तेका मारतलेच जाल्यार निमणेमेरेन हांव झुजतलों तुमचे आड.

गोकू : (केसुच्या कानात कितें तरी सांगता. मातशे भियेल्यात)

केस्पू : मरूं दी तेका तेच्या करमान. (एक दांडो मारून आपल्या कामाक वतात.)

पाद्री : (रडत) भावा, मार पडलो तुका. हांव काय करूंक शकलों ना.

अण्णू : पाद्रीबापा, तूं न्हंय जाल्यार म्हाका जिवानिशीं मारता आसले ते. भुरग्यांक मारूंक चड हात तेंकां. पाद्रीबापा, म्हाका भयणीची याद येता.

पाद्री : खंय रावता तुजी भयण भावा?

अण्णू : चोडणां लगीन करून दिल्या तिका. हांव आयज एक खेप पळोवन येवं तिका?

पाद्री : जरूर चल. सांबाळून वच आनी तुका हांगा येवंचें दिसता तेन्ना यो. भिये नाका. चल. (वता)

(दोग सोल्दाद एका पुराय घराब्याक मारीत बडयत घेवन येता. फाटल्यान फिदाल्ग येता.)

पाद्री : कितें जालां? कित्याक मारतात तुमी त्या बाबड्या दुर्बळांक? जेजुच्या आवंड्या आड हें कर्तुब, बेठेच पातकी जावं नाकात.

पाखलो१ : तीं घोव बायल हेरा गांवचीं. ह्या दादल्यान एक माड पाडपाच्या झगड्यांत कोयती मारून आपल्याच भावाल्या पांयांच्यो तांती कातरिल्ल्यो. ताका धरून आमी गोंय पाटणांत हाडिल्लो. तेणें गुन्याव कबुल करतगीर आनी आपूण फामिलीसयत आमच्या धोर्मांत येतां म्हूण मानून घेतकीर तेका भोगसणी दिल्ली.

पाद्री : मागीर तेका आतां तुमी कित्याक पिडटात?

पाखलो२ : तांकां पुराय फामिलीक सां कातारीन इगर्जेंत बातिज्म दिल्लो. पूण तो दिल्लो बातिज्म न्हंयकारून पळून येयलो. फट सांगून थंय मावशेगेर रावतालो.

पाद्री : आतां व्हरून कितें करतले तुमी तेंचें?

पाखलो१ : भुरग्यांक बातिज्म दिवन अनाथघरांत घालतले. ह्या घोव-बायलेक इन्किझिसांवा सरीं दितले.

पाद्री : कितें! धर्माआड अशें वायट कर्तुब केल्ल्या मनशाक लासून मारचे बगर दुसरी ख्यास्त ना तुमचे लागीं? बळान तेंचो धोरण काडून घेवप, मगीर कितेंय चुकल्यार तेंकां लासून मारची ख्यास्त दिवप? समा न्ही तें.

फिदाल्ग : इन्किझिसांवाक दुशणां दिवन असलीं उलोवप म्हणल्यार आत्मघातकीपणाचें जावं येता पातीव. तेंचो आंवाठ, तेंची शक्त जाणा? खासा व्हिसरॉयाक न्यायसभेमुखार हाडून उबे करूक तांकतात. हांव एक फिदाल्ग. पूण इन्किझिसांवाचो अमलदार जावक म्हाका मोठो अभिमान. हांवें खोशयेन मानून घेतला तें काम.

पाद्री : पूण...

फिदाल्ग : आतां एक उतर उलोवं नाका तूं पातीव. तेंचे आड एक उतर उल्यल्यार हांव मोना गवाय दिवन इन्किझिसांवामुखार तुका उबो करतलों. मागीर्च्यो ख्यास्ती जाणाय तूं. (पाखले दादल्याक मारतात)

दादलो : आमका मारूं नाकात. मारूं नाकात. (खोंट पडटा)

फिदाल्ग : वोमान. (वतात)

पाद्री : (स्वत:भितर) इन्किझिसांवाचें नाव घेत सोबन म्हजें मन उसावलें वरी जालां. काय खरें न्ही हें. ह्या अद्रुश्टाक लागून चड आडखळ्यो येतल्यो. मनां जोडचलें, काळजाक उलो घालचलें काम आनीक अवघड जातलें. सगळेंच बळान, मारमारून करूक पळयतात हे. काय वरी सांवींत देवळां मोडून वडयतात. देवळां, पाखो कित्याक फोडटात? कोणा वाटसुऱ्याक, दीन दुबळ्याक, पावसांत, शियांत, आलाशिऱ्याक रावक मेळटा आसलीं.

(गजा धांवत येता)

गजा : पाद्रीबापा, म्हाका जीव नाका जाला. हांव जीव दिवंक म्हणच भायर सरिल्लों. पूण निमणे घडकेक तुमचो उगडास येयलो. म्हाका तुमच्या धर्मांत घेवन उडयात.

पाद्री : कित्याक? कितें जालां?

गजा : ती चांडाळीण म्हज्या मर्णाची वाट पळेता. काल तिणें म्हाका रातभर शिंया कुडकुड्याक घरा भायर दवरला. रानांत एकलीच वोयता, पूण ती कोणाक मेळूंक वयता तें हांव जाणा. कितेंय विचारल्यार म्हाजेर सान्न, चोबो शेवटून मारता. तिका बुद्द शिकयतलों हांव. म्हाका तुमच्या धर्मांत घेयात... बाट्टकीर ना घोव ना बायल. मगेर म्हाजें घर किरिस्तांवालें. तिका घरांत लेगीत रावंक दिवंचों ना. म्हाका शिंयांत घालता, तकलेर खुटले घालता, सान्नीन मारता.

पाद्री : आठ दीस राव तूं. चींत सारखो. मन थाऱ्यार येतकीर यो म्हजे सरीं. घेतां हांव तुका आमच्या धर्मांत. जाता जाल्यार बायलेकूय घेवन यो. आतां वच तूं घारा.

गजा : ना, हांव आनीक घरा वचचों ना.

पाद्री : उतर दितां तुका. एक दिस दितां तुका बातिज्म. पूण आतां घारा चल. तोमास, (तोमास येता.)

तोमास : किदें पाद्रीबापा? हो कोण?

पाद्री : तोमास, हेका हाच्या घरासरीं पावोवन यो. तेचे बायलेक सांग, हो तुजो घरकार फकत तुज्या मोगाक आशेला. (तोमास ताका उठयता)

गजा : पाद्रीबापा, हांव येतलों परत. धर्म बदलितोलों आनी तिका पानवळ दितलों.

(वतां वतां मंद काळोख)

(पाद्री सिमावालो रावितो.) (अण्णू आनी पाद्री)

पाद्री : वचून येयलो तूं चोडणां तुजे भयणुले फुड्यांत?

अण्णू : हय पाद्रीबापा. तिकाय आपणालो धर्म बदलुचो पडलो.

पाद्री : अण्णू, एका म्हयन्याचो वायदो दिवन तुका वांगडा घेतिलो. तीन म्हयने जावक येयले, दर फावट तूं बातिज्म घेवक खांकुडटा. तुवें तुजें उतर मोडलां. तें एक पातक. फाल्यां आयतारा तुका तोमासा वांगडा मां कातारीन इगर्जेचो पाद्री गास्पार दियेसालागीं धाडून दितां. तो तुका बातिज्म दितेलो. फाल्यां आयतारा एक तर तूं बातिज्म घेवक वच ना तर परतो तुज्या घारा वच.

अण्णू : थंय म्हाका गायेचें मास खावचें पडटलें बापा?

पाद्री : तुज्यान तें खायना म्हणपाक जायना.

अण्णू : थंय म्हाका दुकराचें मास खावचें पडटलें बापा?

पाद्री : तुज्यान तें खायना म्हणपाक जावचें ना.

अण्णू : खायना म्हणल्यार कितें करतले?

पाद्री : धर्माआड वयनल्यांक जी ख्यास्त जाता ती तुकाय जातली. फाल्यां सकाळ मेरेन तुजें कितें तें तूं थाराय. आयतारा उपरांत तुका हांगा रावपाक मेळचें ना.

अण्णू : असोच तुजेसरीं रावतां हांव बापा.

पाद्री : ना, जावचें ना. जायत्या कारणांक लागून तें जावचें ना. तुका तसोच दवरून घेवंचों ना हांव. म्हाका मात्शें भायर काम आसा. रोखडोच येतलों. तो मेरेन सारखो चिंत. आनी किदें तें थाराय. (पाद्री भायर वता)

अण्णू : पाद्रीबापा! म्हाजें आयकून घे. पाद्रीबापा! किदें करपाचें हांवें? सगळो मनाचो घुस्पागोंदोळ जालो.

(इतल्यांत कांय लोक येतात)

इसू : मसणो, हुंवाळिल्लो, गांवार गू खावन आतां मातला पळय कसो? कलंक लायलो तुवें गांवाक. (अण्णूक खुंटान धुकळिता)

रायू : तेंचें गाये मांस खायलें मुरे तुवें?

अण्णू : ना, ना. खावंक ना.

इसू : तेंचें दुकरा मांस खावंक ना तुवें?

अण्णू : ना, ना, खावंक ना.

केसू : मागीर कितें माती खावन रावलो तूं हांगा?

रायू : वयल्यान आनी फट उलयता तूं. हांगाच मर तूं. वाड्यार पांय थेयशी जाल्यार मडें पातळितले.

(सगळे ताका कुटलायतात आनी झपदिशीं परत वतात)

अण्णू : (रडत) बापा, म्हाका मारतात ते. जिवानिशीं मारतले ते म्हाका. हांव खोशी आसा म्हाजो धर्म बदलूंक. फाल्यांच आयतारा हांव वयतां देमूमामा वांगडा गोंय पाटणांत.

(पयस खंयतरी बायलेचो रडपाचो आवाज)

(अण्णू धांवत थंय वता आनी मंद काळोख)

(उजवाड जाता तेन्ना...)

(एक सोळा-सतरा वर्सां पिरायेची बायल मुखार चलता आनी फाटल्यान कांय लोकांचो जोमो. बायलेचीं पावलां घुवळेंत आशिल्लेवरी वांकडीं तिकडीं पडटात. मुखार व्हडाव्हडान धोल बडयत आनी झांज वाजयत लोक वतात)

बायल१ : पाल्लेंतल्या इंगळ्याक हात लागल्यार हात हूलपता आनी सोंसूं नजो जाता. आनी ह्या आंगभर उज्यात कशें लासून घेवचें सोताक!

बायल२ : ते परस गोमटी मारूनच उज्यांत उडयल्लें बरें.

बायल१ : सर्ग आनी नरक कोणें पळयला? (सास्टांग दंडवत घालून फाटीं पळयनासतना त्यो परततात.)

(मर्ती वचपी बायलेक हाडून खणीचे धडयेर दवरिल्ले फातरेर उबी करतात. ती व्हडाव्हडान रडटा. चितेक अग्नी दिवपी भुरग्यान उदकान भरिल्ली मडकी खांदार घेतल्या. तो प्रदक्षिणा घालता उपरांत फोंडटा. चूड घेवन शेणीचेर पेटोवन अग्नी दिता. एक जाणटलो अस्तुरसर्ग येता)

उमेदाद : आयाव मरण मेल्यार सर्गाचें दार तुका उकतें जातलें. घोवाले चितेंत तुज्या पातकांचो लासून गोबोर जातलो.
तुका मुक्ती गावतली, तुका मोक्ष मेळटलो.
जल्मा जल्माक तुका होंच घोव गावतलो.
तूं देवीचें पदवेक पावतली.
तूं अखंड आयाव उरतली.
तूं व्हड पतिव्रता जातली.
आतां तूं भियेव नाका, कचरू नाका.
घोवाचे चितेचो उज्जो खोशयेन ओपणाय.
सर्गाक पाव, मोक्षाक पाव, तुज्या पातकांचो गोबोर जावं.

(चितेच्यो ज्वाळो वयर सरतात. ढोल, झांज सांवार आयिल्लेवरी वाजतात. जाण्टेलो आपल्या हाताच्यो दोनुय मुठी तिचे फाटीर तेंकयता आनी खर्णीत धुकलून वडयता.)

सगळे : हर हर महादेव. हर हर महादेव.

(ती वयर सरपाचो प्रयत्न करता. एकलो हातांत दांडो घेवन धुकलून परत उज्यांत वडयता. पाद्री येवन सगळें पळयता. सोंसूंक नजो जावन धांवत येता)

पाद्री : कितें करतात पातक्यांनो? कित्याक ते अस्तुरेक लासून मारतात? देव भोगसूंचो ना तुमकां...

(दोगजाण ताका धुकलून वडयतात)

(रडटल्या भुरग्याक पाद्री म्हन्यांत घेता)

(एकलो ताजेर दांडो घालता)

रायू : हो परधर्माचो चांडाळ मरण भश्टूंक येयला. चलूंक लाग हांगसल्लो.

(भिरांकूळ गीत सुरावट)

पाद्री : हांव दुबळो आनी गुन्यांवकारी. ह्या झुजांत आनी म्हजें जैत जावंचें ना. संवसारांत चोंयवटेन इतलो अन्याय मातला,कोणय कितेंय करूंक तांकता! बळ वापरून किरिस्तांव करप, आनी हांचो एक तर दुसऱ्याचेर चलत आयिल्लो रातमाबाचो अन्याय! कांयच करूंक तांकचों ना. अस्तुरेक म्हज्या दोळ्यांसामकार लासून मारली. कितें केलें हावें? जेजूचे वाटेन संवसारांतलीं सगळी दुख्खां पयस करूं येतालीं. कितें आडायलां हांणीं हें? मायेमोगाळ जेजूच्या नांवार बळ वापरप आनी पिडापीड भोगोवप. हाचेन चड कुस्तार जातलें. लोक चड पस्तावतले. देवा सर्वेस्परा, तेंकां बरी बुद्द दी. तरसाद काडून घे तेंच्या हातांतली. फकत मोगाचो खुरीस दी तेंच्या हातांत. (काळोख - हळू हळू अंकाचो पड्डो)

## दुसरो अंक

(उजवाड जाता तेन्ना जोशीलें घर. पडवेंत एके पेटेसामकार शेनरेर आसरमांडी घालून जोशी बसला. पाद्री थंय पावता. मुळाचे रुखाची बसकी बसूंक दिता)

जोशी : लोकाक फुसलावक तुमी गावांत भोंवतात तें पळयलां हांवें. काय जावचें ना. कायच जावचें ना तुमच्यान. एखादरो अन्नाडी भुरगोच फागवंचो तुमी. आतां हांगा कित्याक आयल्यात तुमी?

पाद्री : तुमचें मनशान मनशाक ना हाफुडचें कुवाडें म्हाका कळना जालां. तुमकां गायेचें शेण मूत पवित्र आनी मनशाचे सांवळेचें भश्टपण कशें?

जोशी : गायेविशीं एक उतर उलोवंक नाकात तुमी. गायेच्या पोटांत तेत्तीस कोटी देवाचो रयवास. तिचें शेण मूत हो देवाचोच अंश.

पाद्री : मनीसय देवाचोच अंश अशें तुमचो धर्म मानता न्ही?

जोशी : मनीस न्ही. फकत ब्राह्मण. ब्राह्मणच फक्त ब्रह्माच्या मस्तकांतल्यान अवतरला. हेर जातींची निर्मणी ब्रह्माच्या हातापासून, पोटापासून, पांयांपासून जाल्या. ब्राह्मणच ब्रह्माचे मस्तक कुंडलींतल्यान भायर सरला.

पाद्री : तशें जाल्यार ताका हेरां परस एक तरी इंद्रीय चड आसूंक जाय आसलें. हातापायान तर सगळेच सारखेच.

जोशी : आसा. एक इंद्रीय चड आसा.

पाद्री : खंयचें?

जोशी : तांची बुद्द

पाद्री : ती हेरांकय आसता.

जोशी : ती बुद्द बैलांक आसता तसली बुद्द

पाद्री : हांवें सां पावल कॉलेजींत आसतना हिन्दू धर्माविशीं बरीच म्हायती करून घेतिल्ली. हांवें कांय बरपां वाचल्यांत. म्हाका कळ्ळ्यां हिन्दूंचीं म्हाकाव्यां. रामायण हें एके शूद्र जातींत जल्माक येयिल्ल्या वाल्मीकी म्हण एकल्यान रचलां म्हण. आनी म्हाभारत व्यास म्हणिल्ल्या उणाक जातींतल्यानच रचलां म्हण. व्यासाची आवय खंय नुस्तेकान्न आशिल्ली. तातूंतली भगवतगीता तर कृश्ण म्हणिल्ल्या क्षत्रियान झुजामळार सांगिल्ली.

जोशी : चूक, सामकें चूक. रामायण आनी म्हाभारत हीं कोणा एका मनशाली, एका दिसाची निर्मणी न्हय. शेंकड्यांनीं बुदवंतांल्या हजारेक वर्सांच्या आवर्तनांतल्यान तांची निर्मणी जाल्या. भगवत्गीता ही पुराय हिन्दू तत्वज्ञानाचो सार. तांतलें सगळें ब्राह्मणाचेंच. ती बेठीच झुजामळार कृश्णाल्या तोंडांत घाल्या. देववाणी संस्कृत फक्कत आमकांच कळटा. आमी ज्ञानाचे म्हामेरू. आमीच वेद आनी पुराणां रचल्यांत. ब्रंह्म आनी ब्राह्मण अद्वैत आसात. ब्रह्महत्या हें महापातक. तांगेल्या सत्तावीस पिळग्यांक ह्या पातकांतल्यान मुक्ती ना. दर एके पिळगेंतलो एकलो तरी म्हा रोग जावन हातपांय झडून मरता. आमचे कडेन मंत्र, म्हामंत्र आसात. ताचेन आमी शाप दिवन कोणाकूय लासून भस्म करून उडोवंक शकतात. आमच्या यज्ञान पातक्यांचो लासून गोबोर जाता. दुकळांत पावस पडटा. वांजेक भुरगीं जातात. मेल्ल्या सुकिल्ल्या रुखाक आंकरी फुट्टा. मेल्ले पितर मोक्षाक पावतात. आनी सोर्गांत पावतात. (उलयतां उलयतां खर्शेता)

पाद्री : म्हगेलो गरजेचो प्रस्न, मनशाक मनीस कित्याक हाफुडना, तो तसोच कडेक उरलो.

जोशी : साता समुद्राभायल्यान आयिल्लो परदेसांतलो रानटी मनीस तूं. तुका कळचें ना तें. हाफुडप म्हळ्यार सगळो भश्टकार आनी अनाचार. हाफुडप म्हटल्यार एक घातमारी गजाल. ताचेन मनीस मोहांत पडटा. द्वैत इबाडटा, वर्णसंकर जाता आनी रगत उणाक,

अशुध्द जाता. ताचेन मागीर समाजाची घडी इबाडटा. समाज रसातळाक पावता. वर्णसंकरान फाल्यां ब्राह्मण जात नश्ट जाल्यार मोटो हाहाकार जातलो. पातकाचें राज्य अवतरतलें. भूकंप जातले, म्हापूर येतले. निमाणे मनीस जात नानपश्यात जावन वतली. आमी देवपूजा, यज्ञयाग करतात म्हण संवसार तिगून आसा. देव फक्त ब्राह्मणाचें आयकता.

पाद्री : तुमी अशें म्हटल्यार सकयले जातीचे लोक हिन्दू धर्म सोडून हेर खंयचोय धर्म आपणायतले. तें तुमकां मानवतलें?

जोशी : आपणावदी दुसरो धर्म. चांडाळांची संख्या उणी जाली म्हण हिन्दू धर्माचें कांय एक बिघडचें ना.

पाद्री : खरें म्हटल्यार हांवें तुमचे उपकार आठोवंक जाय. आमी जेजू ख्रिस्ताची शिकवण घेवन हांगा येयल्यात. जेजूचो किरिस्तांव धर्म लोकांन आपणावचो अशें आमकां मनासावन दिसता.

जोशी : (आवाज चडावन) अशे कितले येवन गेले. एका काळाक बौद्ध धर्माची ल्हारां ल्हारां आयली हांगा. एक दिस, सगळे नानपश्यात जावन वयतलें. पूण आज खंय आसा तो धर्म? एक दीस तुमकाय तशेंच तोंड काळें करचें पडटलें.

पाद्री : हांव तें कांय नकळो. पूण तुमकां एक गजाल सांगतां. आमचे मदले बरेचजाण हातांत तलवार घेवन आपलो धर्म तुमचेर घालूंक सोदतात. सुरूय जालां तें काम. आतां तुमी कितें करतले?

जोशी : देव आसा. देव पळोवन घेतलो ताका. बरकत दिवचो ना. आमच्या देवांची सामाय तुमी नकळो. देवाक धर्माक हात घातल्यार मुड्डो जातलो तुमचो. एन्नादर काशीतल्यान ब्राह्मण हाडून महाचंडी यज्ञ करूंक जाय आसलो गोंया. तुमचें निसंतान जातलें आसलें.

पाद्री : फाल्यां तुमचो धर्म इबाडूंक, देव फोडूंक ते हातांत तरसाद घेवन

गांवांत घुसल्यार तुमी तांकां आडावंचे नात? हातांत दांडे तरी घेवन?

जोशी : आमी कोण आडायतले? देवच आडायतलो. निखळायतलो तांकां.

पाद्री : गेल्ल्या आठ धा दिसांफाटी हांयें एके बायलेक सती म्हण उज्यांत उडयल्ली पळयली. बळान लासून मारली तेणीं ते अस्तुरेक. भारी दुख्ख भोगलें म्हाका. तुमच्या धर्माची हाका संमती आसा? हें एक व्हड पातक न्ही?

जोशी : (रागान दोळे घुंवता) चुकीचो समज करून घेतला तुवें आनी चुकीचीं उतरां वापरल्यांत. कोण तांकां उज्यांत धुकलून उडयनात. त्यो आपखोशयेन, आनंदान घोवाले चितेचो उजो आपणायतात. तो तांचो पतिव्रता धर्म, तांची लागणूक. पूर्वजल्माच्या पातकाचें प्रायश्चित घेतात त्यो. पूर्वजल्माच्या पातकानच तांचो घोव मरता आनी रांड जातात त्यो. तांकां जियेवंचो अधिकार ना. तांणीं जियेवप म्हटल्यार घराब्याक, जातीक भारभूत जावप. समाजाचो नैतीक अधःपात जावप. मोहाचीं आनी नाना तरेच्या झगड्यांचीं मुळां जावप. तुका खबर ना तर सांगतां. गोंयच्या ब्राह्मणांमदीं रांड बायलो सती वचनात. त्यो सती वयतात खेत्रियांमदीं. आमी रांड बायलांचो सगळो शिरंगार देंवोवन, तकलेचे केंस तासून तांकां सगळ्या मोहापासून पयस दवरतात. ताणीं दोन फावट शेळें उदक न्हावप आनी एकच फावट शेळें जेवण जेवप. त्यो हो धर्म आपखोशयेन पाळटात. देवपुजेंत आपलो दीस सारतात. तुमचे सारके रांड बायलांक पारपोळ सोडून आमी समाज अधोगतीक घालिनात.

पाद्री : तुमचो धर्मीक भावार्थ आनी देवाविशिंचो मोग वाडूंदी. (वता)

(जोशी आपलेंच जैत जाल्लेवरी मुरकटत पळेता)

(काळोख)

(गांवकार एकठांय जावन गांवकी घेवंक बसल्यात. कांयजाण उबे)

उमोदाद : येयले मरे सगळे?

गुणा : हय दादो. चडशे सगळे येयले.

उमोदाद : फाटल्या बावन्न पिळग्यांनी वसयल्लो हो आमचो गांव. देवाधर्माचे सासायेचो. कोण तरी सातां समुद्राभायले परकी परधर्माचे येतात आनी देवळांत घुसून बसतात म्हणल्यार कितें! मसण्यांक गांवा भायर धांवडावन घालूंक जाय. आतां कितें तें गांवानच एका मत्तान थारावंचें.

गयू : म्हागेलो गोठो लासलो तेणीं. माळ्यार भरिल्ल्या तणासयत गोठो लासून गेलो. तेन्ना हांयें गांवकी आपयल्यार कोणें कानामनार घेतलें ना. गांवकार म्हणूंक लागलो रानांतलो उजो गोठ्यामेरेन पावलो म्हण. हांव सांगतां उजो गोठ्याक तेणीं पयलीं घातला, मगीर रानांत गेला. गांवकार एकठांय जाल्ले जाल्यार हांव तेन्ना नांव सांगतासलों त्या दुस्मानाचें.

इसू : ए, तुगेलें रुंव हिंगा फुंकूं नाका. स म्हयने जाले बोकडो मारून, आज कान काडटा? वेळ काळ पळय. गांवार मरणाचें संकस्ट येयलां, तुका तुगेल्या गोठ्याचें पडलां.

रायू : पूण त्या दुस्मानान...

इसू : वांगी रव. ना तर दांडो पडटलो तकलेर.

(इतल्यांत थोंटो भैरू येता)

गुणा : तुमी पळयल्याच कसली हावळ येयल्या ती गांवांत. देव, देवूळ भश्टिलें तेणीं. खय गेली देवाची सासाय? कित्याक हात पाय मोडून घालिना तो तांकां? इतलो तेंप आयकतालेंच आमी, आतां गांवांतय येयलें अपसगूण!

थोंटो भैरू: अशे रडून कांय जावंचें ना. अशे रडल्यार फाल्यां तुमच्या घरांत घुसून तुमचे रांदनीर गाये मांस शिजोवंक दवरतले ते. मारून बडोवन धांवडयात तेंकां. मडीं घालात तेंचीं. कुराड, कोयती, दांडे घेवन वचात.

गोकू : हय, मारून धांवडयात तेंकां.

उमोदाद : तुमी हेर लोकांनीं गांवकेंत उलोवपाचें काम ना.

इसू : आमी सगळे मेळून मेळुंया तेंकां. विनवणीं करुया, आमकां आनीक हातबोट लावंनाका म्हण सांगुया.

रायू : पायां पडचें आमी? तेंकां मशण्यांक, भश्ट्यांक? आमी ल्हानपण घेवन लागीं गेल्यार चड चडटलें तेंचें.

उमोदाद : खरें म्हणल्यार तें काम शिरवाड्यावयल्या नायक गांवकारांचें. तेच खेत्री, गांवचे राखणदार. तांचे पुर्वज आदीं रायाल्या रणांत वयताले खंय. हातांत तरसाद घेवन झुंजताले खंय. आतां तेंचे माकडेंत कोयती धरता. फकत तोंडार्ची बातां.

इसू : पुर्वजांनीं हें केल्लें आनी तें केल्लें कित्याक उपकारता आतां! पुर्वज हातांनी वागाची गोमटी आंवुळटाले आनी फातराचे चणे खाताले. खंय कितें उरलां? तेंकां मारून बडोवन धांवडावंची भास उलयतात तुमी. तेंचेकडेन उज्याच्यो नाळी आसात. एका फारान मनशाक आड घालतात ते. हेर गांवांतलीं तेंचीं कर्तुबां आयकोंक ना तुमी.

थोंटो भैरू: हींच तीं बिजूटपणां. शेंपडी घालात आनी धांवन वचात गांवांतल्यान. देव आनी देवळां मारात तेंच्या हड्ड्यार.

उमोदाद : अशें तापून कांयच जावंचें ना भैरू. थंड तकलेन चिंतूंक जाय. आदीं देवाक सांगणें घालूंया आमी. गांव सुगूर उरल्यार गांवच्यो शिमो काडून रामनाथाक अश्टबंधन घालतले म्हूण सांगणें घालूंया.

तोंच आधारक आतां. आमी आदीं प्रसाद कौलच घेवया देवालो. तेका विचारूनच मुखावयलें कितें तें थारावंचें.

भैरू : म्हणजे ते देवूळ मोडूंक लागल्यार हातांत कोयतीय घेवंचे नात तुमी? सांग रे म्हाका रायू.

रायू : कितें जातलें हातांत कोयती घेवन? देवूळय ना आनी जीवय ना जातलो.

भैरू : तुका सोवनात हीं उतरां रायू. गव्या रेड्यावरी मातला तूं. घरा वच आनी बायलेच्या हातांतलीं कांकणां काडून घाल हातींत.

रायू : तूं थोंटो एके चाटक म्हारग म्हण असो उलयता. नीट उबो राविल्लो जाल्यार हुंपशी घालीत वचून लिपून बसतलो आसलो.

भैरू : आरे कोणाक सांगता तूं? आठ-आठ वज्याचे रानदुकर आंगार धांवन येतना कुगडे घायान फाटीकणो तोडला हांयें तेंचो.

उमोदाद : आरे कितें चल्लां तुमचें? झगडूंक येयल्यात हांगा? वेळ काळ पळंयात रे पापयानो.

केसू : वचुया आमी, गांव तेंच्या हड्ड्यार घालून दिगंतराक वचूया. देव हुमदून कांबळी खोळकेंत घालुया आनी बायल भुरग्यांक घेवन रानचें चलूंक लागुया! दुसऱ्या गांवचे कितलेशेच लोक गांव सोडून अंत्रुजेंत गेले.

उमोदाद : ही पिळग्यान पिळग्यांची मिरास सोडून खंय वयतले आमी? खंयच्या मड्यार पडूंक? फुकट बायल भुरग्यांक वनवास! कितें जाता तें हांगाच जावं. जगचें आसल्यार हांगाच आनी मरचें आसल्यारूय हांगाच.

गुणा : हांगाच रावन मरची भास केली म्हण सांगता, मरचें आसल्यार उदक सुकतकीर तळ्यांतलीं जिवीं जिवाणी मरून वयचीं तशें कित्याक मरचें? सगळे मेळून झुडोन वचूंया तेंचेर. बामण, खेत्री,

देवळी, गुरव, मेस्त, मिराशी... सगळे मेळून हातांत मेळटा तें घेवन झुडोन वचूंया. जावंदी रक्तखेव. तेंचीं चार मडीं पडल्यारूच पुरो, फाल्यांचें आमचें मरण बऱ्याक पावतलें.

रायू : आमी आसात मरूंक तयार, एका पांयार. पूण फाटल्यान बायल भुरग्यांचें कशें? वाटेर पडटलीं तीं.

गुणा : धाडीर लिपून उबे रावन कुराडेन सावज चांचयल्लेवरी चांचावंक जाय तेंकां.

केसू : सोड सोड तीं तोंडाचीं बातां.

(कापितांव दियोग बार्रेत आनी शेफ कामील रिबेर, तुबक, तरसाद घेवन येतात, वांगडा सोल्दाद आसात, तांकां पळोवन सगळे तटास, भिरांतिन वोग्गी उबे.)

कापितांव : म्हाल गांवकार कोण? खंय आसा?

उमोदाद : हांव.

कापितांव : तुमच्या गांवांत जेणीं आमचो धोर्म आपणायला तेंकां हे वर्साचो गांवचे रासवळ येणावळीचो वांटो दिल्लो?

उमोदाद : ना, आमी तेंकां जातभायरे आनी गांवा भायरे करून दवरल्यात.

शेफ : ना, तेंकां तो दिवचो पडटलो. तेंच्या बगर गांवकी जावंक शेकना. ही गांवकी कायद्याभायर आसा. पुर्तुगालच्या रायालें फर्मान आसा गांवकारपणांत आमच्या धोर्माच्या लोकांक रेस्पेद पयलो. गांवकी जाता तेन्ना तुयें तेंचीं नांवां आर्दीं बरोवचीं, मगेर हेरांचीं.

कापितांव : खुंयचेय बाबतींत आदीं मत्त तेंचें विचारचें.

उमोदाद : हें जावंचें ना. गांव आमचो. गांवकी आमची. आमी ती चलयतले आमकां जाय तशी. कोणाक कसलो मान दिवंचो तें आमी थारायतले. तुमी कोण आमकां विचारपी?

कापितांव : (खांदावयलें तुवक काडून धप्प करून उमोदादीच्या हड्ड्यार मारता. गुणा धांवत मुखार येता)

गुणा : आरे, आमच्या गांवकारांक मारलें तेणीं. उठात सगळे. मारून धांवडयात तेंकां. (कोयतेक हात घालता)

(काब दांडो मारून कोयती सकल वडयता. शेफ पाल्मात्रीन ताका मारता. सगळे भियेवन थरथरतात.)

कापितांव : एकलो भुंयेर पडटकीर धांवत वचपी बिजुटां तुमी. तुमकां आनी देव, धांगेम जाय? पुर्तुगालच्या शेकातळा आशिल्ल्या राज्यांत हेर धांग्माचो एक मुनीस आसूंक फाव ना. हे मुखार इगर्ज हेंच तुमचें देवूळ. रोखडोच उबी जातली इगर्ज हिगा. सद्याक देवाचे म्हणयार पाद्री गांवांत येयल्लेकडेन आसात. ते खुरीस उबे करतले. बातिज्म दिवंक कालापुरचे इगर्जेंत व्हरतले.

इसू : ना. अशें जावचें ना आमी आमच्या धर्माभायले

सगळे : (भियेवन) आमी घेवचेना बातिज्म. आमचो धर्म आमकां व्हड.

कापितांव : आपखोशयेन जालेनात तर बळजबरेन करतले

(वता आनी परत फिरता)

तुमकां आमचो धांर्म आपणावप कशेंच चुकूंक येयलें ना. एक तर बातिज्म घेयात ना तर चलूंक लागात ह्या गावचें.

(सगळे मातो सकयल घालून घुस्मट्टात)

(मोन्यांनी फासपतात)

(हळू हळू काळोख)

(इगर्जेंतलें धीरगंभीर संगीत)

(कार्तिकांतलो निमणो सोमार. देवळांत सकाळसांवन घांटी वाजतात. रायण्णा भट देवरथ उबारून फूल मागता. नाल्ल, बेल, फुलां घेवन लोकांक देवाची भेट दितात. मंत्रघोष चालू आसात)

(शेफ, सोल्दाद येतात) (कांय जाण धांवन पळटात)

शेफ : भट, आनीक कोणय देवळाचो जाळवणदार आसल्यार अशे येयात.

भट : देवा, हांचें मडें घाल. आरान धरून ते देवळाच्या दारांतच पडूं.

शेफ : भटा, आयकलें ना तुवें? (भट भिता) पुर्तुगालच्या रायाची, गोंयच्या व्हिसरायाची आनी बीस्म सायबाची तिगांचीय आज्ञा आसा, ह्या गोंय राज्यांत तुमी कसलोच धर्म सुवाळो, देवस्पण पुजापाठ करूंक फावना. कसलीच मूर्ती पुजूंक फावना. तुज्या देवळांत मुर्तूय आसा आनी तूं देवस्पणय करता. तें बंद जावंक जाय बेगीन.

भट : देवळांतली पुजा बंद करून आमी कितें करचें गा?

शेफ : तुज्यान जाय तें करुं येता, जाय तें जांव येता.

भट : देवाचें कशें? आमच्या पोटपाणयाचें, बायलभुरग्यांचें कशें? अशें करुं नाकात गा. शतमानाचें मोटें जाग्रत देवूळ तें.

शेफ : तुजें देवूळ मोटें जाग्रत आनी बारदेस तिसवाडींत शेंकड्यांनी देवळां मोडलीं तीं? तांतले देव मेल्ले? तुज्या देवांत कसलें तेज सासाय ना भटो. आमचो पळय देव कितले ताकदीचो. एक खुरीस मोडलो तर दोन घरांचो गोबोर.

भट : देवळाच्या दारांत अशे उलोवं नाकात. (मनांतल्यान गाळी घालता)

शेफ : हांवेंय एक देवूळ मोडिल्लें भटो, पानेलीचे देवतेचें. पयली पारय घालतना दिशिल्लें, देवता म्हगेली पारय धरतली आनी म्हाका भुंयेर

आपटितली. पुण कांय जालें ना भटो. एक सादो फातर कशी ती फुटून गेली.

भट : भोगचें पडटलें तें आज ना फाल्यां. मुखावेल्या जल्मांत तरी.

शेफ : तेचेर आमकां एक उपांव मेळ्ळा भटो. आमच्या धर्मांत पातकाची कबुली दिल्यार पातकां लासून गोबोर जातात. मगेर सोर्गार वचूंक मेळटा.

भट : मगेर पातकां कोरूंक मेकळे. म्हण्णच पातकां चड जाल्यांत.

शेफ : तूं आमच्या धर्मांत यो भटो. तुजो देव आमी फोडचे नात.

भट : आनी हें देवूळ? आनी देव?

शेफ : तेंची आमी इगर्ज करूंया. तुजो देव आमी फोडचे नात. तूं आनी गांवकार देवाचें कितें करतात तें करात. खंयय व्हरुन उडयात.

भट : शिव, शिव, शिव. (पोंलें फोडून घेता)

शेफ : हंयचो पुजापाठ बंद जावंक जाय भटो. आमी तें बंद करून आडाबो मारतात देवळाक.

भट : मगेल्या तोंडाचो गिरास काडून घेवंक येयल्यात? सोर्पाचो वळनडो पडटलो पांयांक. (भट सगळ्यांक उले मारून सांगता)

आयकात गांवकारांनो -आयकात. ते देवूळ पाडटात खंय. देवा काम बंद उडयतात खंय.

उमोदाद : देवाक हात घालूं नाका, हें वायट कर्तुब. शिगम्याचो मेळ येतसर तरी थांपावन धगत. सगळ्या देवांक वर्सुकी मान जातकीर कितें करता जाल्यार करात. हांळये नास उचाबळ उल्ल्यार निसतान जातलें तुमचें. मगेर सगळें तुमच्या बोडार.

(लोक जमतात. दुगा शिगाक फूक घालता)

भट : कितें आडायलां तुवें हें? कित्याक मोडूंक सोदतात देवूळ?

उमोदाद : हय, आमचें देवूळ मोडून तुमकां कितें मेळटलें? तुमकां कोणें तो अधिकार दिलो?

शेफ : तूं बिजुट, म्हाका अधिकार कोणे दिला काय म्हण विचारता? हो गोंय जुवो, हो गांव आमी जिखून घेतला. आमच्यांनी कितेंय करूं येता. तिसवाडी, बार्देसचीं हेर देवळां मोडलीं तीं खंयच्या अधिकारान आमी मोडलीं? कोणें आमकां आडायले?

उमोदाद : आमी आमचें पळोवन घेतात. गोंय सोडून वयतात ना तर सगळे मेळून वचून दरयांत हुडी घेतात. पुण देवळाक हात घालूं नाका तूं. शंबर पिळग्यांचें भावार्ताचें थळ तें. देवाची पूजा कोणें येवन करूं ना करूं. आसूं दी तें उबें.

पाद्री कूलासू : तुमच्या धर्मांतली एक खबर आयकल्या हांवें. एक विखाळ सोरोप खंय मनशाक खातालो. ते लोक खंय त्या सोर्पाक पळोवन भिवन गुळी जावन धांवताले. कांय तेपान तेणें पिडा दिवंची न्हय म्हण तेची पुजा करूंक लागले. मगेर तोच तुमचो देव जालो. भिवकुऱ्यांचो देव!

भट : ना, खरें न्ही तें. खोटें तें.

पाद्री : तुमी गायेक पुजतात?

भट : हय.

पाद्री : तुमी सोर्पाक पुजतात?

भट : हय.

पाद्री : तुमी हतयाचें तोंड पुजतात?

भट : हय.

पाद्री : तुमी हुंदीर, सुणीं, फातर लेगीत पुजतात. पिशेपणां सगळीं.

भट : तुमकां आमच्या धर्मांतलें कांयच खबर ना. तुका कांयच कळचें ना. आमचो धर्म तुमचेवरी फक्कत एकाच मनशांत देव पळयना. मोनजातींतय देव पळयता तो. उज्यांत, उदकांतय देव दिसता ताका. जें जें उबें आसा तातूंत देव आसा. ही चराचर सृष्टी देवाचो अंश. म्हण आमचे तेत्तीस कुरोट देव.

पाद्री : (हांसत) तेत्तीस कुरोट? देव एकच. जो सर्गांत रावता. तेणें आपलो पूत जेजूक धरतरेर धाडलेलो मनशाची काकुळटाय करूक. तुमच्या अशा एका देवाचें नांव सांगशात जो मनशापासत मेलो? आमचो जेजू मनशाचीं दुख्खां पयस करूक खुरसार मेलो.

उमोदाद : आमची धरतर माय सांतेर पळयल्या तुवें? तिची आसा आमकां राखण. ती आमकां शतमानांसावन पोसवण दीत आसा. मळबाक न्हय, धरतरेक देव मानतात आमी भावार्थी.

पाद्री : कदीम काळी रानटी लोक तुमी. आमचे सरीं बळगें आसा. तुबकां आसात, तम्सादी आसात. मागीर आमच्या धर्मांत तुमी आयले ना तर तुमकां मारतले, फोंडटले, धांवडावन घालतले.

शेफ : देवूळ आनी इगर्ज एकाच गांवांत उरची ना. तुमी इगर्जेंवटेन येयात. तुमची गांवकी उरतली, शेतां भाटां उरतलीं.

उमोदाद : तुमी रावात कांय तेंप. आमी चिंततात. ह्या वर्साची रामनाथाची आनी ताच्या परिवार देवांची वर्स मान्नूक, पुजा जावं दी. शिगम्याक निमणें हाळयेक नासासरीं होळी लासली म्हण्टकीर वर्साचो उत्सव संपता. मागीर आमी कितें तें सांगतात.

पाद्री : जावंच ना. कांय मानुन घेवं नाका तूं सिन्योर.

भट : ह्या एका वर्साचीं शिगम्यामेरेन पुरय देवाचीं कामां करूंक दियात आमकां. मागीर तुमकां जाय तशें करात. गर्भकुडींतलो देव तरी वाटावंक जाता जाल्यार पळेतात आमी.

शेफ : पातीव, आमी तेंकां शिगम्यामेरेन मुजत दिवंया. ते मेरेन आमची पारय आनी घण तयार आसतलो. उतराक फटींग जाल्यार म्हजी तरसाद आसा. तूं ना म्हणचो ना पातीव.

पाद्री : फकत देवळांतलें देवसपण तीन म्हयने चालू उरतलें. पूण देवळाची घांट वाजची ना. तशेंच, तुमी खंयच कसलेंच देवसपण करूंक फावना. हाजेआड गेल्ल्याक गोंयाभायर धांवडायतले.

(अख्ख्या चोंब्याचो कणो मोडिल्ल्यावरी जाता)

(आगशेचे सां लॉरेन्स इगर्जेसरीं- इगर्ज म्हळ्यार तणा-चुडटांची खोंप कशी. लागींच देवूळ मोडून घातिल्लें आसा. चिरे फापसून पडिल्ले आसात. चिऱ्यांचो एक कटो, ताचेर एक खुरीस. जाण्टेलो पाद्री- ताचें खाड, तकलेवेले केंस पिकून गेल्यात. गोरो पिट्ट. खूबजाण बातिज्म घेवंक आयल्यात. तांतूंत बायलोय आसात. बायलानी आगावयल्यान घेवचें अशें धवें वस्त्र आनी दादल्यांनी लांब कोट कशीं खोमसां घाल्यांत. कांय जाणाल्यो काशट्यो आनी वयर खोमसां.)

(सगळे भियेल्यात, कांचवेल्यात, थतरवितर जाल्यात)

पाद्री : सिन्योर आल्बुकर्क गोंय घेवंक गोंय पाटणांत भितर सरतना हांव तेच्या तारवार आसलों. हांवें आल्बुकेर्काक मीस दिलां. तेणीं गोंय पाटणांत पयलीच उबी केल्ले सां कातारीन इगर्जेचो हांव पादकूर आसलों. तुमी सगळे भायर पेज जेवन आयल्या आसतले. भायले तळयेर न्हावन येयल्या आसतले.

एक अरवळ मनीस

: हांव मामागेर जेविल्लों. मामागेर वयचो म्हाका भोव आवडो. डांगर म्हजो माम. तो बाटिल्लो. एक दीस हांव मामागेर गेलों. तेगल्या बागांनल्ली खूब भिण्णां खायलीं हांवें. म्हाका चडच भूक लागली. माम जोनाक गेल्लो. हांवें मामयेक म्हटलें, म्हाका व्हाड. मामी अनमनूंक लागली. हांवें भितर वचून बुडकुल्यांतलें शीत व्हाडून घेतलें. मगीर मात मामयेन म्हाका म्हऱ्यांत घेवन मायेन व्हाडलें. तेन्ना एक विघ्नाळो शेजारी घरांत येयलो. तेणें गांवभर फें फें केलें. खबर आमच्या गांवांतय पावली. गांवांत आतां मोटें झगडें पेटलां. आमकां गांवांतल्यान भायर धांवडावंक सोदतात. भांवतणी दांडे घेवन उबे रावतात. बायचें उदक भरूंक दियनात. रातचो दिवो लायल्यार पालय म्हणटात. आतां म्हाका कोणें सांगलां, हांव किरिस्तांव जाल्यार म्हाका रायाली राखण मेळटली म्हण.

पाद्री : हय, मेळटली तुका आनी तुज्या घरच्यांक राखण. तुमकां कोण हात बोट लावंक तांकचो ना.

अरवळ : म्हज्या घरांत म्हजी आवय, एक चुलती, दोगी भयणी मेळून आनीक चार जाणां आसात. हांवें एकल्यान बातिज्म घेतल्यार तेंकां पावचो ना? सगळ्यांनीच घेवंक जाय?

पाद्री : तूं आदीं एक बरो किरिस्तांव जा आनी तेंकांय किरिस्तांवपणाची वाट दाखय. जेजूचे वाटेन येतलो जाल्यार जण एकल्यान बातीज्म घेवप गरजेचें. तरूच तेंचेर जेजूचें बेसांव पडटलें.

(पाद्री हातांत उंच दांडो घेवन इगर्जेचे खोंपींत उबो रावता. बातिज्म घेवपी सगळे ताचेमुखार निखटे भुंयेर धिमी मारून रावतात. पाद्री एक फावट तांच्या आंगार चेंबूंतलें पवित्र उदक शिंपडटा. मंत्रां म्हणत पवित्र तेलाचो हात तांचे ताळयेक, कानसुलांक लायता. हड्ड्यार खुरीस ओडटा. प्रसाद तांकां खावयता. सगळे पाद्रीक नमस्कार करतात. पाद्री आपले सुवातेर उबो रावता. जण एकल्याच्या नांवाचें कागद वाचता.)

पाद्री : उमो नायक तूं जेजूचे कुर्पेन जाला - साल्वादोर दियश

मोलू नायक तूं जेजूचे कुर्पेन जाला - मानुएल दियश

रामकुस्ट नायक तूं जेजूचे कुर्पेन जाला - पेद्रू दियश

वासू नायक तूं जेजूचे कुर्पेन जाला - जुजे दियश

अस्तुरे गोपिके, तूं जेजूचे कुर्पेन जाल्या - मानुएल दियेशाची पतीण इजबेल.

अस्तुरी पार्वते, तूं जेजूचे कुर्पेन जाल्या - पेद्रू दियेशाची पतीण फातीम.

(तिगांय भुरग्यांलीय नांवां पाद्री वाचता. धीरगंभीर आवाजांत तांचे पासत मीस म्हणटा)

पाद्री : देवा, सर्वेस्वरा, देवाच्या पुता, जेजू ख्रिस्त भगवंता, आमी बाळकां नवो जल्म घेवन तुज्या पांयांसरी येयल्यात. तुजें शिकप आपणांवक, कुडी आत्म्यान तुजे जावंक. तुजी राखण, तुजो विस्वास, तुजो भावार्त जावंचो आमकां फाव. आमच्या पातकाचो जावंचो लासून गोवोर. आनी उक्तें जावंचें आमकां सर्गाचें दार. पाळो दितले आमी तुज्या शिकपाक. राखतले आमी आमचो धर्म निर्मळपणान. तुजें बेसांव घाल आमचेर बरे किरिस्तांव जावंक... आमेन... जेन्ना धर्तरेर कीण्ण काळोख भरून आसलो तेन्ना तेणेंच पेटयल्ली उजवाडाची वात. काळोख आनी उजवाड, रात आनी दीस, मळब आनी धरतरी, भूंय आनी उदक, जीव आनी जिवाणीं ही तेचीच निर्मणी. तेचो हात मागात. तो तुमकां दाखयतलो वाट, संतोसाची, समाधानाची आनी मोगाची. सगळ्या पातकांतल्यान जातली तुमची सोडवण. जेजूसरीं मागात, देवाच्या पुता, तूं दाखय आमकां सतपणाची आनी नितीची वाट, जे वाटेवय्वीं आमी तुजेंसरीं तुज्या अंतस्करणा सरीं पावतले...

(मीस सोपतकच सगळ्यांक चार चार क्रुसाद दितात.)

पाद्री : ह्या एका क्रुसादाक एक खाडी तांदूळ ना तर शंबर नाल्ल मेळटले. गांय पाटणान ह्या एका क्रुसादाक एक कांबळ ना तर अस्तुरेचें न्हेसचें कापड मेळटा.

(कांय जाण खांशी जातात)

(वचपाक वतात)

(देखाव बदल)

(काय वेळान)

गोपिका : (एकदम गळसणून बसता) हांव गांवांत येयच ना, खंय तरी वचून जीव दितां. म्हाजी गांमटी रिती. म्हाजो कुंकम गेलो.

घोव : बोब मारूं नाका राणग्या, घोव मरूं ना- जितो आसा तुजो.

पार्वत : आको, आमी या. भोग चुकूंक येयल्ले नात गे!

गोपी : कसल्या भोगाक रडटा तूं? घोव आसतना रांड जाल्या मुगो तूं. तेणीं रांड केल्या मुगो तुका. सोनचेडी तूं! तुका कांय लागचें ना तें. गानुल्ल्यान माल्लें, तायखुळ्यान पुसयलें. पोटलो मेळटलो म्हण थुळेता तूं.

पार्वत : (रडत) आको, कितें उलयता तूं हें?

गोपिका : पळयलें मुगो, असले हे घोव. हातांत बडी घेवन बायलांक बाटोवंक व्हरतात. रांडपण भोगचें आतां आमी!

पाद्री : (म्हऱ्यांत येत) एक फावट बातिज्म घेतकीर उलोवप ना. चड उणें केल्यार इन्किझिसांवां कडल्यान लासून मारचेली ख्यास्त. बरे किरिस्तांव जावंचेलो सोपूत घेतला तुमी. आतां आड उलयल्यार बोगसणी ना.

उमो : उपाशीं पडटकीर हातांत कट्टी दिवन हिका भीक मागूंक धाडूंक जाय आसली. मानान भौमानान हें सगळें मेळटा तें वोगी घेयात. हो धर्म कितें आनी तो धर्म कितें, इस्वर म्हटल्यारय बी कोंबेतलें आनी येसू म्हटल्यारय बीं कोंबेतलें. पोट आदीं. गळ्यांतलेंच काडलें न्ही? हातपांय तोडून घेतले ना मूं?

गोपिका : मात्सो काळोख जावंदी. गांवाक तोंड कितें दाखयतलो?

पार्वती : आगो, ह्याच गांवांत आयुश्य काडचें आसा.

गोपिका : जावंदी मात्सो काळोख.

पाद्री : ह्या गांवांतच हें सगळें नवें. हेर गांवांनी शेंकड्यांनी बायलो किरिस्तांव जाल्यात. दोन दीस रडटात आनी मगेर रावतात वोगी.

पार्वती : तो पळय, वेळ बुडूंक दोंगरामाथ्यार पावला. गांवांत पावसर

जातलो काळोख! (सगळे हारीन चलूंक लागता)

गोपिका : पार्वते, मनाक चड लावन घेवं नाका. तूं सोताक राख. ना तर तुज्या आनी म्हज्या भुग्यांक कोण राखतलो? मांयन तर धरतर धल्ल्या आसतली. ह्या वर्साक वडपुजा ना, लिंगपुजा करप ना. ते म्हा-सतीच्या बोडकार हांव एक फूल घालचें ना. तिकाय बोडकीच करप. मार सासणाची आयाव रावंक उज्यांत हुडी घेतिल्ली! (पिशांतुर जाता) आरे, मदल्या देरा, ह्या वर्साक म्हाका आशाडी एकादस करूंक दितले मुरे? ह्या वर्सा कडकडीत तीन चिपी उदकाचो उपास म्हगेलो. गेल्ल्या वर्सा एकादशेक निसरड्या रुखार चडून पणसूल काडून हाडिल्लें म्हगेल्या देरान.

पाद्री : एका वेळार तुमचें निजाचें नांव घेवंक येता, पूण तुमच्या घराब्याचें आडनांव तुमी कशेंच लावंक फावना. आतां आमी दिल्लें दियश हेंच तुमच्या घराब्याचें नांव. फाल्यां सकाळीं हांव तुमच्या घरा येतलों. तुमकां किरिस्तांवपणाची देख दिवंक आनी तुमच्या घरचेर आमच्या धर्माचें बेंसांव घालूंक. (ती एकदम रडटा) गोंयचे धर्मसभेन नव्या किरिस्तांवाक लेगून काय खर नेम घालून दिल्ले आसात. तांकां पाळो दिवप चड आनी चड गरजेचें. त्या नेमाआड कर्तुबां केल्यार इन्किझिसांवाचे मनीस तुमकां धरून व्हरून घालतले 'व्हडल्या घरा'चे बंदखणींत. तुमी गुन्यांवकारी म्हण गोमल्यार तांचे पदवेदार 'भावार्ताच्या कर्तुबादिसा' लासून मारचेली ख्यास्त दितले तुमकां. धर्मसभेन घालून दिल्ले नेम आतां सांगतां तुमकां थोड्यांत.-- दारांत कोणे तुळस पुजची न्ही, आंगण धरचें न्ही आनी घरमुखार केळ कवाथो लावचो न्ही. बायलांनी रांदचे पयलीं न्हावन येवन सोवळ्यान रांदचें न्ही. शीत वाळचे पयलीं शितांत मीठ घालिनासतना रांदचें न्ही. दादल्याक मूंज करची न्ही. बायलांक फळ-सोवण करचें न्ही. बायलांनी गांठीचोळी घालची न्ही आनी दादल्यांनी पुडवें धोतर न्हेसचें न्ही. दादल्यांनी जानवें घालचें न्ही, शेंडी दवरची न्ही. बायलांनी गोमटेंत गळसरी

घालची न्ही, कपलार तांबडें लावंचें न्ही. जल्माउपरांत भुरग्याची सटी, बारसो करचो न्ही, नाल्ल फोडचो न्ही. न्हवऱ्याक व्हंकलेक हळद, तेल, रोस आंगाक लावंचो न्ही, व्होंवयो गावंच्यो न्ही. पानविडो दिवंचो न्ही. पांच परथवण करचें न्ही. एकादशेक आनी हेर वारांक उपास धरचो न्ही. अमास पुनवेक परब करची न्ही. चवथीक गणेश पुजचो न्ही, शिगमो नाचचो न्ही, दिवाळेक दिवे लावंचे न्ही, भटाक आपोवन बारावो तेरावो करचो न्ही, तकलेचे केंस तासचे न्ही. कावळ्याक वाडी घालची न्ही. भटाक जोश्याक घरा आफोवंचे न्ही. तेंकां नमस्कार करचो न्ही, बुवांचें कीर्तन आयकुवचें न्ही, घाडी कुदोवंचो न्ही. वट्ट कितें तर, तुमच्या पयलींच्या धर्माच्या खंयच्याय कर्तुबाक, शास्त्राक पाळो दिवंचो न्ही आनी आमच्या धर्माआड वचचें न्ही.

(पाद्री आनी ताचे वांगडी वतात)

(धाकलो पूत वासू गोपिके म्हऱ्यांत वता. गोपिका कांचवेवन सास्टांग पडटा)

वासू : आवो, उठ गे. अशी कित्याक पडल्या? कितें जाता तुका?

गोपिका : वासू, पुता, तूं पोटांत आसतना म्हाका रानां पेटिल्ल्याचीं सपनां पडटालीं. पूण पुता, तुवें आतां म्हजे कुडीकय उजो दिवंक फावना. आतां हांव वयतां आनी दर्यांत हुडी घेवन जीव दितां.

(वासू रडटा) (काळोख)

देखाव : गांवची एक सुवात.

गुणा : फाटी गांवकेच्या दिसा शेफीन पाल्मात्रेन फोडून काडिल्ली दुख आजून आसा. दिसता, माकडेंतल्यान कोयती काडची आनी एकलोच झुडोन वयचें तेंचेर.

इसू : व्हडान उलोवं नाका. ते केन्ना खंयच्यान येत, सांगू नजो. मनीस न्ही, साता समुद्राभायले देवचार! दयामाया ना तेंका.

गुणा : उमोदादीन गांवकेची जमीन घेवन तो घराब्यासयत किरिस्तांव जाला. कसलो घातमारो मनीस हो, दुस्मानाक वचून मेळ्ळा. तेंवूय गांवकेची जमीन खावन! ताका हांव सोडचों ना, बुद्द शिकयतलों जल्माची.

रायू : किनें जालां गुणा? व्हडल्या गांवकाराची ही अवतिकाय. जर्जर कूड एक फावट मसुंडेर पावल्यार पुरो जालां. गांवाकडल्यान छी थू करून घातिल्लें पुरो जालें.

गुणा : तुजेकडच्यान तेणी जबरदस्तेन गांवची जमीन बरोवन घेतली तेन्ना तिनली खत भोगूक नासली, पूण उमोदादीन आज तांतली दोन खांडयेची जमीन घेवन तेणें धर्म बदलिला खंय. तें आयकोन म्हाजी तकली घुंवल्या. त्या शेतांत तो पांय कसो दिता तें पळयतलों.

रायू : वायट वारें गुणा. बेठींच तकली तापोवन घेवं नाका. तेणी ती जमीन तशी घेवंक फावनासली. तशींच पडींग उरों आसली.

इसू : हां, हांवूय तेंच म्हण्टां. गांवांत एकचार आसा हें तांकां दाखोवन दिवं येतालें.

गुणा : पूण हांव सोडचों ना तेंका.

(उमोदाद येता)

गुणा : चोरा, घातमान्या, तुवें भौसाची जमीन घेवन तूं किरिस्तांव जाला? तुका त्या शेतांत पांय दवरूंक दिवचे नात. पांयां तांती कातरून उडयतलों. शेतांतूच मडीं घालतलों तुमचीं.

उमोदाद : गुणा, तूं आमचोच. आमच्या वाड्यावयलो भावबंद. आमचेर कसलें अरीस्ट येयलें तूं नकळो. ते रातचे येवन आमकां धमकायताले. पोटाक तरसाद लावन किरिस्तांव जातात काय ना म्हण विचारताले. ना तर घराक उजो घालता म्हणटाले, गोळाक मारतले म्हणटाले.

गुणा : फट उलयता तूं. मगेर तुवें गांवकेक कित्याक उलो घातलो ना, गांवाक कित्याक सांगलें ना?

उमो : फाटीं गांवकी जाल्ली पळोवंक ना तुवें? म्हाज्या हड्ड्यार तुबकाचें मूळ माल्लें तेणीं. तुकाय बडयेन मारून फाट फोडिल्ली.

गुणा : तुवें त्या शेतांत पाय दवल्ल्यार त्याच शेंतांत फोंड काडून तुका पुरतलों तुज्या तिगाय पुतां सयत. (मोलू आनी रामकुश्ट येतात) पांय दिवनच पळयात तुमी त्या शेतांत.

गोकू : (दांडो घेवन) कोणाक गाळी संवता तूं? कोणाक धमकायता? मायझंया गुणा? कितें करतलो तूं? चल, कितें करता तें कर. फाल्यां वोयतां आनी बांदतां जोत त्या शेतांत.

गुणा : तूं दांडो घेवन म्हज्या आंगार येता, त्या शेतांत जोत बांदतलो म्हण्टा? (सटकरून दावो हात ताच्या दांड्याक घालता. दांडो घेवन ताज्या तोंडार थाड थाड थापटां दिता. सुखडो पुताच्या आदाराक येता ताकाय गुणा बळान धुकलता. तो पडटा. तकलेंतल्यान रगत येता. तो दामून धरता. मजगतीं राया आनी शाबीय पडटात)

(बायलो धांवत येतात. बोबो मारतात.)

गुणा : परत सांगतां, भोसाच्या शेतांत पांय दिल्यार आनीक रक्तखेव जातलो. (ते वतात)

केसू : गांवाकच मार लागला गुणा, उजो पेटला गांवाक. तूंवूय लासून वयतलो तेतूंत. भस्म जातलें तुजें. म्हगेल्या भावाक मारलो तुवें, हांव तुका शिरापतां, तूं कोंकणोय उरचो ना आनी किरिस्तांवय जावंक पावचो ना. म्हारू कसो मर्दीच हुमकळत रावतलो.

सुखडो : तेणीं दिल्लें तें शेत, तेंकां आफोवन बेगीनच हद्दे फातर घालून घेवंक जाय. जाल्यार रेखडच कसून उडोवंक जाय.

केसू : गांवचे लोक मारामारी करूंक येयले बगर रावचे नात. गुणा खुबळावन घालतलो तेंकां.

गोकू : येवंदी मारामारी करूंक. खोऱ्यान कुदळीन एक एकल्याचीं बोडां फोडटलों. आतां सोडचों ना.

गोपिका : कसली बोडां फोडची भास उलयता तूं? पयलींच घोव आसतना आमची गळसरी आनी कुंकूम पुसोवन आमकां बोडकां करून दवरल्यांत. आतां बोडां फोडून घेवन आमकां रांडकां करात! तुमी त्या कलागत शेतांत पांय दवरचे पयलींच आमी वचून न्हंयंत ना तर बांयंत हुडी घेवन जीव दितात.

सुखडो : तशें कांय एक जावचें ना सुने. तूं वोगीच दादल्यांमदीं पडूं नाका. आमी मोल्दादांक घेवनच शेतांत देंवतले. (तापून) इतलें बरें शेत मेळटा, स म्हयन्यांचें तरी पोट वयतलें, इल्लो त्रास घेवंकच जाय. आतां कोणय आडावंक येयल्यार ओगी रावचे न्हीं. तेंचोच आधार आता. त्या गुणाक एक बुद्द शिकोवंक जाय. थापटां मारून वयता. आमकां कोणाचो आधार ना म्हण समजला तो. आमी आतां तेंच्या धर्मातले लोक. तेंचोच आधार आलाशिरो आमकां.

पार्वती : मांवा म्हगेल्या, तूं वच आनी तेंकां विचार, तुमी आमकां राखण

दितां म्हणिल्ली, तो मारून कसो गेलो काय म्हण. तुमी आतां कितें करतात काय म्हण विचार. तुमच्या धर्मांत येयल्लो हो पाळो काय म्हण?

(देखाव बदल)

(सोल्दादांचो राबितो. भायर देशी सोल्दाद उबो)

सुखडो : तुमच्या व्हडल्या पदवेदाराक म्हाका भेटय. आमी तुमच्या धर्मांतलीं मनशां. आमकां राखण दिवंचेलें उतर तेणें दिल्लें. (पाद्री कुलास भायर येता.)

पाद्री : बऱ्या किरिस्तांवा, तुवें जेजूसरीं सकाळचें मागणें केलें? यो, असो यो. ह्या खुर्सामुखार धिमी मार. (सुखडो दारांत उबो केल्ल्या खुरसा सामकार धिमी मारता) म्हण... आतां मागणेचीं उतरां म्हण...

''देवा म्हज्या बापा, हांव तुका नमन करतां.
देवा म्हज्या बापा, हांव तुजो मोग करतां.
देवा म्हज्या बापा, हांव तुकां दिनवासतां.
देवा म्हज्या बापा, म्हाका तुजीच गरज.
म्हज्या देवा, आयच्या दिसा म्हजें काळीज अदीक आनी अदीक तुज्या आनी सगळ्या मनशांच्या मोगान भर.''

(पाद्री भेटवणेचीं उतरां गायता. ताचे फाटल्यान उमो तीं उतरां मोडकीं तोडकीं म्हणटा. इतल्यांत शेफ कामील रिबेर तळयेवटेनच्यान येता. ताणें खांदावयल्यान एक ओलें वस्त्र घेतलां आनी कमरा दोरयेक रूंद कास्टी मारल्या.)

कामील : आमी तळयेंत न्हांवक देंवतसावन तेंची तळय बाटली खंय. भट आतां तळयेंतलें उदक देवापुजेक व्हरना. येता ते जात्रेक देव न्हावंक तळयेंत देंवचो ना खंय. वाऱ्याक आनी उदकाक बाट म्हूण आसा? हर्शीं हें बरेंच जालें.

उमो : तुमच्या उतराक पातयेवन आमी किरिस्ताव जाल्ले, आमकां पोटाक गिरास मेळटलो म्हूण, आमकां तुमची राखण मेळटली म्हूण.

कार्मील : आमचें उतर तें पुर्तुगालच्या रायालें उतर. तें आमी केन्ना मोडचे नात, फाटी घेवंचनात. रायाले आज्ञेन आमी दर एका बऱ्या किरिस्तांवाक राखण दिवंक बांदिल्ले आसात. पूण सकाळीं सकाळीं येवंक तुजें किदें जालां?

उमो : किरिस्ताव जाले म्हण आमकां हिणसायतात, धपकायतात. शेतांत पांय दिल्यार जीव घेतले म्हणटात. काल तो गुणा नायक गांवच्या लोकांक घेवन येयल्लो. म्हजी ही पळय तकली फोडली.

कार्मील : कोण तो गुणा?

उमो : मोटो दुश्ट करवादी मनीस. लोकांक तुमचेआड खुबळावन घालता. तुमकां मारून धांवडावक जाय म्हणटा. कोण किरिस्ताव जायनाकात म्हणटा.

कार्मील : तेका बुद्द शिकयतलो हांव. तेचें हाडानहाड मोडून घालतलों. तेका सोडचोना हांव. तूं आतां वोगी घरा वच. भियेव नाका तूं. तुवें धारम बदलिला. तुमकां ह्या राज्यांत कसलोच भिरांत ना.

(शेफ, पाखलो, कांव रमत नारोन्याक आनी कांय सोल्दादांक आपयता. ते येतात.)

कार्मील : शिरवाड्यार वचून त्या मस्त्या गुणा नायकाक बांदून घेवन येयात. बांदून गोरवावरी बडयत ओडून घेवन येयात. येतना वाटभर

तेच्यो बोबो पडूंक जाय. गांवान आयकोंक जाय त्यो. आमचे आड येतल्यांक कसली ख्यास्त भोगची पडटा तें कळूंक जाय सगळ्यांक.

(देखाव बदल. देवळामुखार जागर चलता. इसू आनी गुणा कांबळ पांगरून जागराचे गर्देंत घुसतात. एक गडो गायन करून कुशीक वता. अचकीत राया उठटा. मांडार वता. मांडार उबो रावन गावंक लागता. तो काळीज खरवडून गायता.

दारांतले तुळशीचें मांयन थापट मारिला गा ।
कसले न्हिंदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिंदिला गा ।
सातनी कुयांचें तारूं तडीक लागलां मू ।
सातनी कुयांचें तारूं तडीक लागलां मू ।
तडीक लागून तेणी तरसाद काडिला गा ।
तडीक लागून तेणी तरसाद काडिला मू ।
दारांतले तुळशीचें मांयन थापट मारिला गा ।
दारांतले तुळशीचें मांयन थापट मारिला मू ।
कसले न्हिंदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिंदिला गा ।
कसले न्हिंदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिंदिला गा ।
सुडबुडी बुडबुडी उठोन शाणुलो बसला मू ।
कमरेचो गोफ नी तेणे आंवळुनी बांदिला मू ।
कमरेचो गोफ नी तेणे आंवळुनी बांदिला मू ।
कमर बांदुनी तो माणार धांविला गा ।
कमर बांदुनी तो माणार धांविला मू ।
उल्यार उले नि दिवन गांवाक सादयले गा ।
उल्यार उले नि दिवन गांवाक सादयले मू ।
उलेनी सादनी तेचे रानांनी शेणले गा ।
उलेनी सादनी तेचे रानांनी शेणले मू ।
शाणुलो धिमीनी मारून भुंयेर लोटलो गा ।

(इसू गावन येतासर थकता) (कार्मील ग्विर आनी पाखले आयिल्ल्याचो बोवाळ) (गुणा आनी इसू पळटात) (सगळे भितात)

शिपाय : बोंद बोंद कोरात तुमचें वाजोवोप! शेफ, हो गांवचे तेळू, गांवचो राखणदार.

शेफ : काल रातचो गेल्लो पाऱ्या फेरयेक?

तेळू : हय गेल्लों गा.

शेफ : तो वयलो दोंगरावयलो खुरीस कोणें मोडलो तें जाणा तूं?

तेळू : ना गा देवा, म्हाका खबर ना. हांव नकळ.

(शेफ पाल्सात्री उखलता)

शेफ : खरें सांगता तूं हें?

तेळू : जागराचीं वाजंत्रां. अयच्यासारखो रातभर जागर. चेडो आनी सून जागराक येयल्लीं. हांव येकलोच आसलों. कोणेतरी उलो मारलो. ना,ना, उलो दिलो ना. बेंटेच चलून गेले ते तेवटेन. काळखांत कांवळ पागरून घेवन.

शेफ : कोण ते?

तेळू : नावां आनी किल्याक तीं? हांव वळखना गा देवा.

(पाल्सात्री शेंडायता. तो वळवळून पडटा)

शेफ : नावां सांग तेंचीं.

तेळू : कोणाचीं नावां, कसलीं नावां? किते करतले? शिंग मारतले? पाड पडूं तीं नावां.

शेफ : उजो घालून लासून उडयात हेचें घर.

(दुसऱ्याक विचारता) दोंगरावयलो खुरीस कोणें मोडलो?

धाकू : कितेंय बांदून काडलें म्हणकीर तें म्हज्या हातचें बाळक. जावं खुरीस जावं तुळस. हांव कसो मोडटलों? कोणें मोडल्यारय म्हाका संताप येवंचो. हें कोणा ताकदवान जुवान दादल्याचें काम.

शेफ : शेर्त! शेर्त उलोयलो तूं! मतींत धोरात. खुरीस मोडटल्यांचीं मडीं पडटलीं. उजो घालतले गांवाक.

(सगळे भियेवन गुळी जातात)

(देखाव बदल) (पाद्री सिमांव पिरीसालो राबितो)

(दुगा म्हारालो चेडो मांगरामुखार भायर बसला)

तोमास : मांयझंया, भश्ट बायलेवरीं मेरे भायर कित्याक बसला? यो असो भितर यो. तुवें मिठी मारल्यारय आमी बाटचे नात. (भुरगो भियेत भियेत म्हऱ्यांत येता.)

पाद्री : कोण येयला रे तोमास? (भायर येवन ताका पळोवन ताचें आंग सांसपिता) हें कितें जालें म्हज्या भावा तुका? कोणे मारलें? तोमास, कोण रे हो? चुरचुरे मुरे तेचे.

तोमास : तो म्हार दुगालो चेडो, पाद्री बापा.

पाद्री : कितें जाय तुका भावा?

(चेडो रडटा)

चेडो : एक धोर पडिल्लें शिरवाड्यार एकल्याले गवर्णींत. पयलीं सांगलें ना. हांयें वचून पळयल्यार तेचें पोट फुगून दोंगर जाल्लें. घाण मारताली. पांयांक धल्ल्यार पांय तुटून येतले अशें जाल्लें.

पाद्री : मागीर?

चेडो : ते म्हाका कशेय करून वोडून व्हरून उडय म्हणूंक लागले. तुजें

काम म्हणूंक लागले. बापायक घेवन यो म्हण सांगूंक लागले. हांयें म्हूटलें जायना.

पाद्री : मागीर?

चेंडो : खोरें म्हुज्या हातांत दिवन म्हाकाच फोंड खण म्हणूंक लागले. हांयें म्हूटलें जायना. आमी जातीन धरतरेक खोरें कुदळ लायल्यार तुमकां कोण लेखतलो? तुमी खणात फोण. हांव धोर धुकलितां. तेका राग येयलो. वयंतल्यो बड्यो मोडून तीगचवगा जाणांनी म्हाका खूब माल्लो. भुयेर घालून माल्लो.

तोमास : भावा, तूं बरो जुवान आसा. कुडीनय घटमूट आसा. तुज्यान तेचेर एक खोंट मारूंक जालें ना?

चेंडो : चू चू चू, तशें कशें जातलें? दवरीत ते आमकां? मनशासयत घरदाराक उजो घालतले.

पाद्री : आतां हिगा कित्याक येयल्लो तूं?

चेंडो : हांयें आयकलां पाद्रीबापा, तुमच्या धर्मांत ल्हान व्हड ना, आफूड भश्ट ना म्हण.

पाद्री : हय, आयकलां तें सत तुवें.

चेंडो : तशें जाल्यार हांव तुमच्या धर्मांत येतां.

पाद्री : दुबाव नाका. दितां तुका आमचो धर्म. पूण एक सांग, तुका आवय बापूय आसात? तशें जाल्यार तुज्या घरब्यांतल्या सगळ्यांक समजावन म्हजेसरीं घेवन यो. हो धर्म मोगाचे वाटेन व्हरचो. दुस्मानाचोय मोग करूंक लावचो.

चेंडो : पाद्रीबापा, तीं आयल्यांत म्हाजे वांगडा. तेका थंय झाडामुळांत बसोवन हांव हिगा येयला.(धावत भायर वता)

पाद्री : तोमास, तो परतो येतलो?

तोमास : सांगूं नज, बिजूट जात ती. तें वीख बळ्ळां तेंच्या आंगांत. तूं तेंकां फोर्सान किरिस्तांव कोरूंक सोदता?

पाद्री : हय. हिन्दू धर्माच्या रागान हांव तेंकां किरिस्तांव करूंक सोदतां.

तोमास : खोशी जाली म्हाका पाद्रीबापा. ती पाड खबर आयकत सावन म्हाकाय तशेंच दिसता. पाद्रीबापान फोर्सान सगल्यांक किरिस्तांव करून वडोवंचे.

पाद्री : कसली खबर तोमास?

तोमास : म्हजी बायल दोगांय भुरग्यांक घेवन आपल्या आवय बापाय वांगडा गोंय सोडून गेली.

पाद्री : म्हाकाय वायट दिसता तोमास.

तोमास : तीन दीस जाले खबर कळून. तुका आनी सांगच्या नाका अशें दिसतालें. आतां हांव म्हजें अख्खें जिवीत तुका ओंपतां. तुजे खातीर मरूंक लेगीत तयार आसा हांव पाद्रीबापा.

(घुंगो -तो चेडो- बायलेक, दुगाक (आनी शक्य आसल्यार एका भुरग्याक) घेवन येता. आंगावयलीं वस्त्रां सगळीं दळिद्री. पाद्री सिमांव तांच्या म्हऱ्यांत वता.)

सिमांव : दुगा, वोळखलो तूं म्हाका?

दुगा : हय व्हड मनशा. तूंयेन म्हाका एक फावट हाफुडिल्लो, आपूण जावन.

सिमांव : मागीर तूं घरा वचून शेणा शिंतुडो घालून न्हावलो ना?

दुगा : आमकां आनी आफूड भश्ट खंयचें? आमचें आंग मात हेरांक गुवामुताचें.

सिमांव : तुका खरेंच हेरांनी आपणाक हाफुडचें अशें दिसता?

दुगा : ना. केन्ना कोणालो चुकून हात लागल्यारय रात रात झेम पडना.

सिमांव : मगेर तूं हिंगा कित्याक येयला तर?

दुगा : घेवन येयला तो. येयना जाल्यार आपूण जीव दितलों म्हणूंक लागलो. कितलो समजायलो. आयकना तो.

पाद्री : म्हणजे तूं खोशी ना तर किरिस्तांव जावक?

दुगा : आमकां कितें? उज्यांत घायल्यारूय लासता, तेलांत घायल्यारूय लासता.

पाद्री : मगेर कितें उरलें तर?

दुगा : पोटापाणयाचो प्रस्न गा.

भुग्गो : तेंच्या दारात भीक मागत रवचें आनी मार खावचो?

दुगा : नें जल्माकच बांदून घेवन येयल्यात आमी. संवसारांत खंयुय गेलो तरीय धोर ओडचें चुकचें ना. किरिस्तांव जावं बामण जावंक पळयता तूं? सोड तें. पूर्वचाराचो गिरास मात सुट्टलो.

पाद्री : हें चय दुगा, जशी जात ही तुजी, तसो तुजो धंदोय तुजोच. कोण तुजो धंदो काडून घेवचो ना. भियेनाकां तूं दुगा. तुका आनी तुज्या घगब्याक राखण मेळटली शेफ सोल्दादांची. गोंय राज्यांत आमच्या धर्माच्या लोकांक कोण हातबोट लावंक तांकचो ना. तूं आतां रयालो मर्नीस.

दुगा : तुमकां जाय तशें करात तुमी पाद्रीबापा. धुंग्याच्या मनासारखेंच जावदी.

पाद्री : फाल्यां आयनार. सकाळीं वेळ उदेवंचे पयलीं तुमी सगळे मेळून येयात हिंगा. उपरांत कालापुरा इगर्जेंत वयचें बातिज्म घेवंक. मागीर तुमकां सगळें मेळटलें. चलात आतां तुमच्या घरा.

(ते वतात. उमेदीन वतात.)

पाद्री : सोर्गांतल्या देवा, म्हाका भोगशीय.

(देखाव बदल)

सिमांव : तोमास, आज हवेंत चड उबाळ आसा.

तोमास : ना पाद्रीबापा. शींय खाता.

सिमांव : इतले बेगीन काळोख कसो जालो?

तोमास : वेळ बेगीन अस्तमता ह्या दिसांनी.

सिमाव : तरीय आजून एक नखेत्र दिसना मळबांत.

तोमास : घुस्पल्यांत तीं उजवाड आनी काळोख हेंचे मदीं.

सिमांव : भुरगेपणांत मुरे हो सांजेचो काळोख पळयतकीर दिसतालें, हें निमाणें. आनीक उजवाड हिंगा पडचो ना. पूण दुसऱ्या दिसाक पडिल्लो उजवाड पळोवन हांव घराकडल्यान त्या तकली तुटिल्ल्या पुतळ्यामेरेन धांवत वैतालों.

तोमास : पाद्रीबापा! तूं आयज असो धरबंद सुटिल्लेवरी कितें उलयता?

सिमांव : जाणा मुरे तोमास, म्हाका जेजूवरी खुरसार मारून घेवन मरचें अशें दिसता. पूण कोण मारतलो म्हाका खुरसार?... (इतल्यांत इन्किझिसांवाचो अंमलदार आनी सोल्दाद, वांगडा पाद्री रिबेर येतात. तांकां पळोवन तोमास भियेता आनी मागीर शादूर जाता. म्हेडीक हुंमकळावन दवरिल्ली तरसाद कमराक बांदता.)

सिमांव : तुमी येयले? हांव तुमचे सरीं येवपाचें चिंततालों.

शेफ : कित्याक?

सिमांव : सांगूंक- चुकलें तें. अज्ञानी गांवठी लोक ते -कितें करतात तें तेंकां कळ्ळें ना. खुरीस म्हणटात ती एक निखटी फातराची घडणी अशें धरलें तेणीं. जेजूच्या नांवान भोगसणी दियात तेंकां. जेजूच्या नांवार बायबलांत हेंच सांगलां. मोग, काकुळट आनी भोगसणी हें बायबलाचें मूळ तत्वगिन्यान. बायबलाची शिकवणच आमी कुशीक मारली जाल्यार धर्म वाडोवन कितें करतले?

फा. कुलास: म्हणजे आमी बायबल मानिनात अशें म्हणचें आसा तुका?

सिमांव : तशें म्हुटलें ना हावेन. घडये तेंचो चुकीचो अर्थ काडला जायत तुमी.

(कुलास पाद्री रागान थरथरता)

कुलास : तुज्या नाड्यार खुरीस मोडलो तेणीं. तूं तेंचो पाखो घेता म्हूण ते जाणात. ना तर तेंकां येदी कापस्दाद जावंची नासली. वयल्यान तूं म्हणटा, खुरीस म्हणटात ती निखटी फातराची घडणी म्हूण.

सिमांव : कांय अंशीं तथ्य आसा तेंनूंत. मोग, मयपास नासत तर खुरीस म्हण्टात ती फातराची घडणीच कशी दिसचेली तेंकां. मोगाबगर देव ना. मत ना, भावार्त ना. फकत खुरीस उबे केले म्हण खरो धर्म वाडना. खुरीस कोरवंचो पडटा मुनशाच्या काळजार. तो एक खेप मनशांल्या काळजांत रिगलो म्हण्टकीर असले कितलेय खुरीस उबे करूंक जानात. तुमी जाणात, ह्या गोंय जुंव्यार फोर्सान बाटयल्ले कितलेशेच लोक परते आपल्या धोर्मांत वचूंक सोदता ते? आमच्या धोर्माचीं तत्वां मानी नात. देखून तुमकां इन्किझिसांवाचो आलाशिरो घेवंचो पडटा.

कुलास : पुरो जालें पाद्र सिमांव. तुवें पवित्र खुरसाचो अपमान केलो. तूं

इन्किझिसांवा आड उलयलो.

सिमांव : हांव आड उलयलों ना कोणाच्या. कोणाचो अपमान करचो म्हजो हेत ना. हांव तुमकां सांगुंक सोदी, त्या मोडिल्ल्या खुरसाक लागून लोकांक पिडापीड भोगोवं नाकात.

सोल्दाद : हांव गोंय इन्किझिसांवाचो मुनीस. हांव तुका तुवें आमच्या धर्माविशीं इन्सुल्तार कोरपाचीं उतरां उलयल्यांत देखून धरून व्हरुंक सोदतां.

सिमांव : कित्याक? कसल्या गुन्यांवाक लागून?

सोल्दाद : व्हडल्या घरा. तेंचे मुखार वयतकीर तुका सारखें सोमजोतेलें.

(तोमास चवताळून उठटा. हातांत तरसाद घेवन तो गर्जन मारता)

तोमास : कोण कसो पाद्रीबापाक धरता हांव चोयतां. सरात फाटीं. पाद्रीबापा, तूं वच धांवून, ह्या पातकी राज्याभायर खंयूय वच. म्हाजो कोण ना. ह्या संवसाराक तुजेसारखिलो देवमुनीस जाय. जेजूवरी तूं! (सोल्दाद दांडो घुवंडावन तोमासाल्या तरसाद आशिल्ल्या हातार मारता. तरसाद सुटना. सोल्दादाचेर मारता. अंमलदार आपली तरसाद तोमासाच्या खांद्यार मारता. तोमास रक्तबंबाळ जावन खाला पडटा. पाद्री धिमी मारता. थंयच ताका ते दोरी बांदतात आनी ओडून घेवन वतात.)

तोमास : पाद्रीबापा, एका खिणाच्या मोहाक बळी पडून हांवें धर्म बदलिलो. तरीय एक प्रामाणीक एकनिश्ठ मनीस म्हजे भितर खरपणान उबो रावलो.

सिमांव : तोमास, क्रुसाद चोरिल्लो तो खीण आनी म्हजेखातीर तूं रक्तबंबाळ जालो तो हो खीण एकाच मनशामदलीं प्रत्ययकारी दोन रूपां! दोनूय रूपां खरीं. देखून मनीस म्हणटा तें एक कुवाडें!

(ताका ते व्हरतात.)

तोमास : पाद्रीबापा! म्हज्या बायल भुरग्याची हांवें कितली वाट पळयली पूण तीं आयलीं नात. घोवा परस बायलेक धर्म व्हड दिसलो काय? म्हज्या नांवान ती मणी बांदता. कुकुम लायता. घोव जितो आसुनय मेला आनी मरूनय जितो आसा असली तिची गत. पाद्रीबापा! हांव आतां खंयच्या देवाक परार्थू...

(तोमास गळसणून पडटा)

(हळू हळू काळोख. इगर्ज आनी देवळांतल्यो घांटी वाजतात.)

## निमणो वांटो

### (भावार्तचें कर्तूब)

धर्मीक न्यायसभा 'आवतु दा फॅ' नांवाचो उत्सव. मध्यान रातीं सुमार दोन वरांचेर बंदखणींतल्या बंद्यांक उठयल्यात आनी धवे पटे आशिल्ल्या काळ्या लुगटाची मुस्तायकी तांकां घाल्या. ही मुस्तायकी म्हळ्यार लांब हाताची काबाय आनी धोंपरा सकल पावपी अशें कालसांव. सगळे आकांताचे भियेल्यात. तांकां वण्टीक तेंकोवन उबे केल्यात. जांकां मरणाची ख्यास्त दिवपाची ना तांचे काबायेचेर एक धवें लुगट. ताचेर फाटल्यान आनी फुडल्यान तांबडो खुरीस काडिल्लो आसा. जांकां मर्णाची ख्यास्त जावपाची आसा तांचे काबायेचेर जें लुगट आसा ताचेर उजो, ताचेवयर त्या मनशाच्या तोंडाचें चित्र आनी सैतानाचीं चित्रां काडिल्लीं आसात. तांकां तकलेक घालूंक एक विचित्र तरेची काळी तोपी आसा. ते तोपयेचेरूय तसलींच चित्रां आसात. दर गुन्यांवकाराच्या हातांत पेटिल्लो काकाडो दिला. सें कॅथेड्रेलाची घांट वाजूंक लागता. लोकांनी पळोवपाक गर्दी केल्या.

मागीर पुरसांव सुरू जाता. सगल्यांत फुडें धर्मीक न्यायसभेचो बावटो आसा. ताचेर सेंट डॉमनिकाचें चित्र- बावट्याफाटल्यान डॉमिनिकन पाद्री. तांचेफाटल्यान गुन्यांवकार- हातांत काकाडे घेवन. दर गुन्यांवकाराचे कुशीक ताचो 'गॉडफादर' चलता. मर्णाची ख्यास्त जावपाची आसा ते फाटल्यान चलतात. तांचे फाटल्यान आसात मेल्ल्या गुन्यांवकारांचीं दांड्याचेर उखलून धरिल्लीं मनशाचे लांबायेचीं बावलीं आनी तांचे वांगडा, त्या मेल्ल्या गुन्यांवकारांचीं हाडां भरिल्ल्यो पेटो माथ्यार घेतिल्ले मानाय. सगल्या फाटल्यान एक व्हडलो खुरीस.

पुरसांव वतकच दोग निवेदक दर गुन्यांवकारावयल्या खटल्याची खबर सांगून ताका फर्मायल्ली ख्यास्त जाहीर करतात. ज्या

गुन्यांवकारांविशीं निवेदन करतात ताका हातांत काकाडो घेवन मदले वाटेंत उबो करतात. मागीर ताका आल्तारासरीं व्हरतात आनी थंय मिसालाचेर हात दवरून ताका भावार्त कबूल करूंक लायतनात. मागीर तो ओपले सुवातेर येवन बसता.

ही कार्यावळ जातकच ज्या गुन्यांवकारांक जीवदान दिलां तांकां कुशीक काडटात. आनी जांकां मरणाची ख्यास्त फर्मायतात तांकां न्हंयचे देगेर 'काम्पु सान्तु लाझारू' नांवाच्या मळार व्हरतात. न्यायसभेंत व्हाइसरॉय आनी जुवीज आसात. दर जित्या गुन्यांवकाराक एकूच प्रस्न. "खंयच्या धर्मांत मरण येवचें अशी तुजी इत्सा?" 'किरिस्तांव म्हूण मरण येवचें' अशें जो सांगता ताका आदीं गळो अदून मारतात आनी मागीर लासतात. जो दुसऱ्या खंयच्याय धर्मांत मरपाची इत्सा पर्गटायता ताका जितोच लासतात.

मळार लांकडाच्यो राशी घाल्यात आनी दर राशीम्हऱ्यांत दांडो घट पुर्ल्लो आसा. गुन्यांवकाराक त्या दांड्याक बांदतात आनी लासतात.

शेफ : धर्मीक न्यायसभा 'आवतु दा फॅ' सुवाळ्याचो हो निमणो आनी म्हांत्वाचो खीण. तुमच्या सोगल्यांचो गुन्यांव साबीत जाला आनी तुमी सोगल्यांनी तुमचो गुन्यांव कोबूल केला. तुमकां इन्किझिसांवाच्या मामागक लांसून मारचे सुवातेर व्होरचे आदीं पाद्र तुमकां एक प्रोस्न इचारतोलो.

पाद्र : (पाद्र सिमांवाक) पाद्र सिमांव, खुंयच्या धोर्मांत मोरोण येवचें अशी तुजी इत्सा?

पाद्र सिमांव : कित्याक खांब्यांक बांदून घेवं हांव? कित्याक लासून मरूं हांव गुन्यांव नासतना? आतांय सांगतां तुमकां हांव, खुर्सांस त्या फातरांत ना, म्हज्या काळजांत आसा. हांव पाप सायबाचो पाद्री. जेजूस्वाम्याचो धर्म मोग, करुणा आनी भोगसणी हांचेर

आदारिल्लो धर्म. तुमी जेजूची आनी बायबलांतली शिकवोण मानपी जाल्यार ही लासून मारचेली ख्यास्त कित्याक?

पाद्र : (गोपिकेक) अस्तुरे, खुंयच्या धोर्मांत मोरोण येवंचें आशी तुजी इत्सा?

सिमांव : तिणें गाय पुजली म्हूण तुमी तिका लासून मारपाक सोदतात? तुमी मांडिल्ल्या ह्या अनीतीच्या कर्तुबांनी भुंयेच्या अधर्मी फुडाराचीं पानां रंगतलीं, अनंत काळामेरेन जळत उरतलीं.

पाद्र : अस्तुरे, बेगीन उलोय.

गोपिका : हांव ज्या धर्मांत जल्मलीं त्याच धर्मांत मरुंक सोदतां.

शेफ : बांदात व्हरून तिका त्या खांब्याक...

पाद्र : (गुणाक) तुका खुंयच्या धर्मांत मोरोण येवंचें ओशें दिसता?

गुणा : धरतरेच्या पोटांतल्यान वयर सरिल्लो, सांतेर आवयचें सासाय रुप मानपी त्या भावार्थी धर्मांतूच मरची म्हाजी इत्सा... आयज परतून एकदां सांगतां तुमकां, धर्मसत्ता आनी राजसत्ता हांणीं हातांत हात घालून, तुमी हो अधर्म मांडला. धर्माच्या नांवान तुमी फिरंग्यांनी केल्ल्या अधर्माचें हें कर्तूब.. तुमच्या असल्या अधर्मी राकेसांकडेन केन्नाच भोगसणी मागचों ना हांव...

(तिगांकूय खांब्याक बांदतात. लांकडाक उजो घालतात. खांब्याक बांदिल्ल्यांची रडारड. वातावरण भिरांकुळ आनी गंभीर. उजो पेट घेतना काळीज चिरुन वडोवपी संगीत. इगर्जिच्यो गंभीर घांटी वाजतात. फाटभुंयेर तांबडोच उजवाड. एका प्रकाश झोतांत निवेदक येता)

निवेदक : धर्माच्या नांवान पाखल्यांनी केल्ल्या अधर्माचो हो इतिहास म्हणजे आगळिकांनी भरिल्ल्या गोंयच्या इतिहासाचें एक जळटें पान. एक सांवार युग...! हो सांवार धर्म वाडोवपाच्या, साम्राज्य

वाडोवपाच्या हावेसापुरतो मर्यादीत न्ही. मनशाचे निजी प्रकृती विकृतिचो, हिंसा आनी करुणेचो अस्वस्थ आलेखुय तुमी पळेलो. दोनय वाटांनी ही दुखेस्त काणी.

खंयचोच धर्म मुळांत चुकूंक ना, चुकतात तीं मनशां. प्रेशितांचे शिकवणेचो चुकीचो, आपले सोयिचो अर्थ लायिल्ल्यान मोठो अनर्थ घडलो त्या काळांत.

अशे तरेची चूक परत संवसारांत खंयच घडची न्हय, असो सांवार परत खंयच्याच समाजाच्या वांट्याक येवंचो न्ही आनी फुडाराक अशे तरेची आगळीक घडोवपाक कोणूय येत जाल्यार तांका सगळे शक्तीनिशीं ना करूंक जाय. हें नाटक पळोवन तुमच्या रसिकांच्या मनांत अशें दिसलें जाल्यार तें आमचे नाट्य निर्मितीचें जैत अशें आमी मानतात. देव बरें करू! आमेन!

(पड्डो)

## श्री. श्रीधर अनंत कामत बांबोळकार

चित्र, नाट्य, संस्कृती, शिक्षण ह्या क्षेत्रांतलें सर्जनशील व्यक्तिमत्व म्हळ्यार श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार. कलामयी अंत्रुज म्हालांत बांदोडें गांवांत तांचो जल्म जालो. शिक्षण, अभिनय, दिग्दर्शन, निर्मणी, संचालन, चित्रकला, लेखन, अनुवाद, चित्रपट निर्मणी, सामाजीक कार्य अश्या वेगवेगळ्या क्षेत्रांनी तांणीं महत्वाचें योगदान दिलां.

ल्हानपणांतल्यान तांकां अभिनयाची आवड. हौशी रंगभुंयेवेलीं नाटकां, बालनाट्यां आनी एकांकिकांचें दिग्दर्शन करीत नाट्य कार्यशाळांनीय तांणीं मार्गदर्शन केलां. गोंयांत, महाराष्ट्रांत तशेंच कर्नाटकांत जाल्ल्या राज्य आनी राष्ट्रीय स्तरावेल्या मराठी-कोंकणी नाट्य आनी बाल नाट्य चळवळींत तांचें मोलाचें योगदान आसा. कला अकादमीचें नाट्य विद्यालय तशेंच रिपर्टरी कंपनीचीं नाटकां तांणीं दिग्दर्शीत केल्यांत. राष्ट्रीय नाट्यमहोत्सवांनीय तांणीं दिग्दर्शीत केल्लीं नाटकां सादर जाल्यांत. लघुपट आनी चित्रपटांचेंय दिग्दर्शन तांणीं केलां. तांणीं राज्य तशेंच राष्ट्रीय स्तरार कलाविषयक परिसंवादानी प्रबंद सादर केल्यात. चित्रकलेंतय तांचें मोलाचें योगदान आसा. चित्रकला सर्तींत तांकां 3 खेपो राज्य पुरस्कार फावो जाल्यात. सुमार 500 वयर पुस्तकांचीं मुखपृश्ठां ताणीं आपले रंगकलेन नटयल्यात. वेगवेगळ्या चित्रकार शिबिरांनी ते वांटेकार जाल्यात तशेंच गोंयांत जाल्ल्या 35 व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांतल्या चित्रकला प्रदर्शनाचे ते निमंत्रक आशिल्ले.

श्री. बांबोळकार हाणीं गोंय राज्य सांस्कृतीक विकास समिती, कला अकादमी, गोवा कोंकणी अकादमी, बाल भवन, राजीव गांधी कला मंदीर, साहित्य अकादमी अश्या वेगवेगळ्या संस्थांनी जबाबदारेच्या पदांचेर मोलाचें काम केलां. ऑल गोवा आर्ट मास्टर असोसिएशनाचे ते संस्थापक अध्यक्ष आसात तशेंच स्नेह मंदीर- बांदोडा तशेंच गोयांतल्या जायत्या सांस्कृतीक आनी सामाजीक संस्थांकडेन तांचो लागींचो संबंद आसा. कला अकादमीचे कार्यकारी समितीचे सदस्य आनी नाट्य विभागाचे सल्लागार समितीचे ते निमंत्रक आसात. तांच्या कामाचें कवतूक करून जायत्या संस्थांनीं तांचो भोवमान केला.

2011-12 वर्साचो गोंय सरकारचो राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार, नाट्य क्षेत्रांत दिल्ल्या योगदानाखातीर तांकां प्राप्त जाला.

अंत्रुज लळीतक निर्मित 'सांवार युग'
नाट्यप्रयोगांतले प्रसंग







ऐतिहासीक घडणुकेचेर जेन्ना एखादी कादंबरी, नाटक हे सारखी ललितकृती निर्माण जाता तेन्ना वादाचो एक मुद्दो उपरासता, तो म्हणल्यार मूळ घटनेकडेन फारकत घेवपाची मेकळीक लेखकाक आसा काय कितें? आसल्यार ती कितलेमेरेन? ललितकृतीच्या आकृतीबंधाप्रमाण ही मेकळीक नक्कीच आसा पूण मूळ घडणुकेकडेन ती प्रामाणीक आसपाक जाय इतलें खरें.

मूळ लेखक महाबळेश्वर सैल हाणी कादंबरींत हें स्वातंत्र्य घेतलां. तशेंच तें श्रीधर बांबोळकारानूय घेतलां. कित्याक, तर कादंबरी परस नाटक ह्या मंचीय ललित प्रकाराक आकृतीबंधाचें तंत्र खूब कसबान वापरचें पडटा. आपले कल्पकतायेन आनी कुशलतायेन श्रीधरान तें केलां. जायत्या फावटी हांव म्हणटां- नाटककारामदें एक दिग्दर्शक आसचो पडटा आनी दिग्दर्शकामदें एक नाटककार आसचो पडटा. नाटककारामदलो दिग्दर्शक, नाटक बरयता आसतनाच कल्पनेच्या मंचार तें खेळोवन पळयता. तेचपरी दिग्दर्शकामदलो नाटककार संहितेचो अभ्यास करतना मूळ नाटककाराची भुमिका समजून घेता. श्रीधराचे बाबतींत हें जुस्त लागू पडटा. एक फिशाल दिग्दर्शक, चित्रकार आशिल्ल्या कारणान श्रीधर सर्जनशीलतायेचे प्रक्रियेचे खूब लागीं आसा. पुस्तकाच्या मुखचित्रांनी तो मूळ कलाकृतींतलो आशय, रंग आनी रेशांच्या माध्यमांतल्यान समर्थतायेन प्रकट करता.

'सांवार युग' संहिता निर्माण करतना ताच्यांतलो लेखक, दिग्दर्शक, अभिनेतो, रंग-ध्वनी-उजवाडाचो तंत्रज्ञ जागृत अवस्थेंत वावुरलो देखूनच रंगमाचयेर नाटकाच्या सर्वय आंगांनी परिपूर्ण अशी कलाकृती आकाराक आयल्या.

कोंकणी साहित्याच्या मळार महाबळेश्वर सैलाची 'युगसांवार' ही कादंबरी जशी मैलाचो फातर थरल्या, तेचपरी कादंबरीचेर रचिल्लें 'सांवार युग' हें नाटक लेगीत कोंकणी रंगमाचयेच्या इतिहासांत ठळकपणान उरतलें हातूंत दुबाव ना.

सांवार युग

अनंतशाली प्रकाशन

- पुंडलीक नारायण नायक